# शरतचंद्र चटर्जी



# अनुराधो

कोंकणी अणकार

नरेंद्र कामत

# अबुद्धी

(नवलिका)

मूळ बंगाली :
**शरत्‌चंद्र चटर्जी**

कोंकणी अणकार :
**नरेन्द्र कामत**




गोवा कोंकणी अकादेमी

अबुद्धी
(नवलिका)

मूळ बंगाली :
**शरत्चंद्र चटर्जी**

कोंकणी अणकार :
**नरेन्द्र कामत**

**प्रकाशन क्र.** : 120



**पयली आवृत्ती** : 2008

**उजवाडावपी :**
गोवा कोंकणी अकादेमी
243, पाटो कॉलनी,
पणजी – गोंय

मुखचित्र :
**श्रीधर कामत बांबोळकार**

छापपी :
**स्वर्णमुद्रा प्रिंटर्स**
माशेल, फोंडें, गोंय

**मोल** : 35/-

**Abuddhi**
(Novelette)

Origional Bangali by :
**Saratchandra Chaterji**

Konkani Translation :
**Narendra Kamat**

**Publication No. :** 120



**First Edition :** 2008

Publisher :
**Goa Konkani Akademi**
243, Patto Colony
Panaji - Goa

Cover :
**Shridhar Kamat Bambolkar**

Printer :
**Swarn Mudra Printers**
Marcel, Ponda - Goa

Price : **Rs. 35/-**

# अकादेमीचे वतीन...

शरतचंद्र चटर्जी (1876-1938) नामनेचे बंगाली कथाकार आनी कादंबरीकार. बंगाली कादंबरीच्या मळार तांकां खूब नामना लाबली. तांचो जल्म बंगलांतल्या एका खेड्यांत मध्यमवर्गी कुटुंबांत जालो. साहित्याचें दायज तांकां तांगेल्या बापायकडल्यान लाबलें. मुळावें शिकप घेतना तांचें लक्ष शिक्षणापरस भायल्या गांवगिऱ्या वातावरणांतूच रमतालें. घरची अर्थीक परिस्थिती दुबळी आशिल्यान उंचेल्या शिक्षणाक ते वंचीत जाले. जिवितांत आयिल्ले निरशेवणेखातीर 1900 वर्सा ते संन्याशी जाले आनी भ्रमंती करूंक लागले. दोळे आनी संवेदना आशिल्लें मन उक्तें दवरून तांणी समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांची जीण लागसून नियाळ्ळी. पिडित, उपेक्षित, शोशीत वंचित अशा भारतीय समाजाची आनी त्या काळाच्या हिंदू बायलांची दुःखां तांणी पळयलीं आनी तातुंतल्यानूच तांचें साहित्य निर्माण जालें. बापायच्या मर्णाउपरांत सन्याशाचीं वस्त्रां भिरकावन तांणी परतून कौटुंबिक जीणेची जापसालदारकी आपणायली.

उद्येग-वेवसायाच्या निमतान ते कोलकोता सोडून ब्रह्मदेशांत गेले. चौदा वर्सांनी परत कोलकोत्याक येवन मागीर थंयच रावले आनी मुखावयली सगळी जीण साहित्याचे सेवेक ओंपली.

पिरायेच्या सतराव्या वर्सा तांणी बरोवपाक आरंभ केलो. ‘बडेदिदि’ हे तांगेल्या पयले नवलकथेत वाचप्यांचे लक्ष ओडून घेतलें. 1894 ते 1919 ह्या काळांत तांणी जायत्यो नवलकथा बरयल्यो, त्यो उजवाडा आयल्यो आनी गाजल्यो. ‘बिरज बहू’, ‘परिणिता’, बिंदूर छेले’, ‘पंडित मोशाय’, ‘मेजदिदि’, ‘पल्ली समाज’, ‘चंद्रनाथ’, ‘वैकुंठेर उइल’, ‘अरक्षणिया’, ‘श्रीकांत’, ‘देवदास’, ‘निष्कृती’, ‘काशीनाथ’, ‘चरित्रहीन’, ‘दत्ता’, ‘गृहदाह’, ‘छवि’, ‘देनापोओना’, ‘हरिलक्ष्मा’, ‘पथेर दाबी’, ‘नवविधान’, ‘नारीर मूल्य’, ‘शेष प्रश्न’, ‘स्वदेश ओ साहित्य’, ‘विप्रदास’ अश्यो तांगेल्यो रचना.

---

उपेक्षित समाजाचें भायलें आनी भिरतलें चित्रण, मन वेधून घेवपी शैलीन, मार्मिक आनी सहृदयपणान करपी दुसरो कादंबरीकार भारतीय साहित्यांत जावंक ना असो शरदबाबूंचो लौकिक आसा. पतित बायलांच्या भावभावनांचें दर्शन साहित्यांत घडवोपाचें कसब तांकां बरें सादलें. बंगाली साहित्याचें पोरणें लेखनतंत्र कडेक सारून तांणी आपणाल्या स्वतंत्र अशा तंत्राची आनी शैलीची बुन्याद घातली. तांगेल्या भौतेक कादंबऱ्याचे अणकार भारतीय भाशांनी जाल्यात.

मराठी भाशेंत मामा वरेरकर हाणी शरदबाबूंच्यो भौतेक कादंबऱ्यो मराठीत अणकारीत केल्यो. गोंयांतल्या कोंकणी वाचकांची भूक मामा वरेरकरांच्या मराठी अनुवादांनी भागयली म्हणल्यार जाता.

कोंकणीतले आदले पिळगेंतले एक लेखक श्री. नरेंद्र कामत हांणी शरदबाबूंचे कांय साहित्य अणकारित केलां. तातूंत 'अबुद्धी', 'मदली भयण', आनी 'बिंदूलो बाबू' ह्या तीन नवलिकांचो आस्पाव आसा. आयज ह्यो तिनूय नवलिका स्वतंत्र वेगवेगळ्या तीन पुस्तकांनी उजवाडाक येतात.

अणकारपी श्री. नरेंद्र कामत स्वतः कोंकणी मराठी भाशेंत बरोवपी एक सिद्धहस्त लेखक आसात. तांगेली 'पारजतफुलां', 'देवाची करणी', 'म्हापुरुस', 'माणकां - मोतयां', 'काणी एका रत्नाची', 'देखदिण्यो काणयो', 'वांकडे म्हेडीक वांकडे नेम', अशीं पुस्तकां उजवाडाक आयिल्लीं आसात.

तांणी अणकारित केल्ल्यो 'अबुद्धी', 'मदली भयण' आनी 'बिंदूलो बाबू' ह्यो नवलिका कोंकणी वाचप्यांक मानवतल्यो अशी आस्त आसा.

पुंडलीक नायक
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी

रामलालाची पिराय उणी आशिल्ली, पुणून पाड्यो बुद्दी मात उण्यो नाशिल्ल्यो. वाड्यावयले सगळे लोक ताका भियेताले. तो खंयच्यान कशें आनी कसले संकश्ट हाडीत हें सांगूक येना आशिल्लें. तागेलो व्हडलो सवतीभाव शामलाल होवूय म्हण कितें थंड म्हणपासारको नाशिल्लो. पुणून लहान गुन्यावाक तो व्हड ख्यास्त करिनाशिल्लो. गांवांतल्या एका गिरेस्तागेर तो कामाक आशिल्लो, आनी घरच्याय भाटाबेसांची वेवस्था पळेतालो. घरची परिस्थितीय बरी आशिल्ली. बांय आशिल्ली, पोरसूं आशिलें, गांठीक थोडो भोव दुडू आशिल्लो आनी नुस्तें पागपी आनी शेतांत काम करपी धा वीस मानाय आशिल्ले.

तेरा चवदा वर्सांपयलीं शामलालाची बायल पयलेच फावट ह्या घरांत आयली, त्या वर्सा रामलालाची राणाव आवय भायर पडली. मरतना तिणें आपलो सगळो संवसार आनी स म्हयन्याचो दुदाचो भुरगो राम, हाका आपले तेरा वर्साचे सवतीसुनेचे सुवादीन केलो.

गांवांत ह्या वर्सा जोराची धाम आयिल्ली. नारायणीकूय जोर आयलो. तीन चार गांवांत मेळून नीलमणी बाबू हो एकूच वैज आशिल्लो. तोवूय अर्दो वैज. निमणी परिक्षा तो पास जावंक नाशिल्लो, पुणून असल्या अडचणीच्या वेळार आपली फी एका रुपयावयल्यान दोन रुपयांचेर व्हरपाक तो विसरूंक नाशिल्लो. तागेल्यो पीठ भरशिल्ल्यो गुळ्यो लेगीत, आतां गुणांक पडपासारक्यो जाल्ल्यो.

सात दीस वखद घेवनूय नारायणीचो जोर गेलोना, तसो शामलाल हुस्क्यांत पडलो. घरची वावराडी नृत्यकाली वैजाक आपोवंक गेल्ली, तिणें परतून येवन सांगले, 'वैजबाबू पयसुल्ल्या गावात वचूंक भायर सरल्यात आनी थंय तांकां खंय चार रुपये मेळपाचे आसात.'

तें आयकून शामलालाक राग आयलो. ताणें म्हळें "आरे, त्या भिकाड्ड्याक हांव लेगीत चार रुपये दितलों आशिल्लों. येवपाचो तरी! जीव चड काय पयशे? आपय, त्या चांडाळाक!" इतल्यांत नारायणीन भितरल्यान म्हळें, "आयकलां? हांगा येतात! तुमी इतके भियेतात कित्याक? आज जमलेना जाल्यार फाल्यां येतले

वैजबाबू! एका दिसान कितें जाता?''

रामलाल पेरीच्या झाडामुळांत बसून साळोरेखातीर पांदरो करतालो. तो बेगीबेगीन उठून आयलो आनी ताणें म्हळें, ''तू वचूं नाका नित्तो, हांव वतां.''

देराचो आवाज आयकनाफुडें नारायणी बेगीबेगीन उठून बसली आनी तिणें म्हळें, ''आयकलां? रामाक मातसो आपयात . राम, म्हजो सोपूत आसा तुका, तूं वचूं नाका! कोणाकडेन झगडचें न्हय रे म्हज्या भांगरा!''

रामान आयकूंक नाशिल्ले भशेन केलें, आनी तो चलूंक लागलो. तागेलो पांच वर्साचो पुतणयो गोविंद हातांत पांदऱ्याच्यो बडयो घेवन झाडामुळां बशिल्लो. रामाक वतना पळोवन ताणें विचारलें, ''पांदरो करचोना काका?''

''करतलों तर!'' अशें म्हणून राम गेलो.

नारायणीन कपलार हात मारून घेतलो, आनी रडकुरी जावन म्हळें, ''तुमी ताका वचूंक कित्याक दिलो? आतां पळेयात कितली पिडापीड करून येतलो तो!''

शामलाल पयलींच पिकार आशिल्लो. ताणें तिडकीन म्हळें, ''तुवें नाका म्हळ्यार आयकलेंना आनी हावें सांगल्यार मात रावतलो आशिल्लो?''

''हाताक धरलोना कित्याक? ह्या पोराक लागून जिवाक खीणभर सुशेग ना. मेल्यार तरी सुट्टलीं आशिल्ली. नित्तो चल म्हजे बाये, उबी रावूं नाका. भोलाक धाड आनी मातसो समजावन हाड म्हणजे म्हजे म्हऱ्यांत. अजून चड पयस पावूंक ना जातलो.''

नृत्यकाली भोलाक सोदूंक गेली.

राम नीलमणी वैजाच्या घराकडेन पावलो तेन्ना नीलमणी एके फुटके आलमारीमुखार आशिल्ल्या एका मोडक्या मेजाचेर हातांत एक ल्हान तागडी घेवन, वखदाचो पिठो जोखतालो, आनी थंय आशिल्ले चारपांच वायटकार,

तोंड ‘‘आ’’ करून ताचेकडेन पळेताले. नीलमणीन तिरशा दोळ्यांनी एक फावट रामाक पळेलो आनी तो परतून जोखूंक लागलो.

राम मातसो वेळ तोंड धांपून उबो रावलो आनी मागीर ताणें विचारलें,

‘‘वयनिचो जोर कित्याक वचूंक ना?’’

नीलमणीन ताचेवयली नदर कुशीक काडीनासता म्हळें, ‘‘वचना जाल्यार हांव कितें करूं? वखद दिलां न्हय?’’

‘‘माती दिल्या! कुशिल्ल्या मैद्याच्या पिठान जोर बरो जाता?’’

तें आयकून मस्तेपणाचीं उतरां आपल्या तोंडामुखार कोणूय उलयत म्हणपाची ताका कल्पना नाशिल्ली. ताणें रागान आड्डून म्हळें, ‘‘कुशिल्ल्या मैद्याचो पिठो? जाल्यार तो व्हरूंक कित्याक धाडटा?’’

‘‘आनीक दुसरो वैज ना म्हण तुमकां आपोवंक धाडटा! दुसरो कोणूय आशिल्लो जाल्यार धाडचो नाशिल्लो.’’

थंय आशिल्ले लोक अजपीत जावन आयकताले. रामान फुडें म्हळे, ‘‘भाव केन्नाच कोणाच्या पांयां पडना. तुमी हलके वृत्तीचे म्हणून पांयां पडून आपोवंक धाडटा म्हळें. येतना वयनीन म्हाका सोपूत घाला! नाजाल्यार तुमचे सगळे दांत निखळायतलों आशिल्लों. बरें वखद घेवन आतांचे आतां येयात. कळाव करूं नाकात. फाल्यां जोर गेलोना जाल्यार मुखार हीं कलमी आंब्याचीं झाडां रोयल्यांत न्हय, अजून तीं व्हडलीं लेगीत जावंक नात. फायचे रांती तांतुंतलें एकूय झाड उरचें ना. आनी परां येवन तुमगेल्यो ह्यो सगळ्यो बाटल्यो फोडून तांची पूड करतलों.’’

इतलें सागूंन तो थंयसून चलूंक लागलो आनी नीलमणी बाबून तागडेसयत थंयच बसकण मारली.

थंय आशिल्ल्या एका म्हाताऱ्यान म्हळें, ‘वैजबाबा, आता आनीक वेळ

लावं नाकात. बरें वखद, खंयूय लिपोवन दवरलां जाल्यार, तें घेवन थंय वचात. तांचे नांव आसा राम. सांगलां तें केलेबगर रावचोना."

नीलमणीन तागडी मेजार आपटून म्हळें, "हावं आता पोलीस थाण्यार वतां. तुमी लोक गवाय आसात."

ज्या म्हाताऱ्यान तांकां बुद्द दिल्ली ताणें म्हळें, "गवाय? कोण दितलो बाबा गवाय? वखद खावन खावन म्हजे कान सामके भेरेल्यात. रामबाबू कितें सांगून गेला, तें म्हाका कांयच आयकूंक येवंकना, आनी पुलीस कितें करतले म्हज्या बाबा? तो भुरगो दिसपाक ल्हान आसा, पुणून ताचेकडलो गुंड पोरांचो जथो लहान सान ना. फाल्यां घराक उजो लायलो जाल्यार, वाड्यावयले लोक धांवत येवं येतात उजो पालोवंक, न्हय पोलीस इन्स्पेक्टर. एक मूठभर तांदूळ दिवन उपकार करचोना. गवाय दिवप आमच्यांनी जावंचीना. सगळे लोक ताका भियेतात. ताचेपरस तो जें कितें सागून गेला न्हय, तें करप चड बरें. म्हजी मातशी नाडी पळेयात पळोवया. आज दोन गोटे जेवल्यार कशें?"

वैजबाबूच्या आंगांत उजो धुंवतालो. म्हाताऱ्यान नाडी पळय म्हळें, तसो ताणें पेट घेतलो. म्हाताऱ्याचेर धेंगसो घालून ताणें म्हळें, "गवाय दिल्यार कितें आवय मरतली तुमची? चलात चलूंक लागत हांगासून! हांव कोणाची नाडी बिडी पळोवंचोना. कोणूय मरता जाल्यार लेगीत वखद दिवंचो ना! पळोवया मागीर तुमची कितें गत जाता तीं!"

म्हाताऱ्यान बडयेचो आदार घेत रावून म्हळें, "अन्याय कोणाचे न्हय वैजबाबू! तांकां तुमी वळखतात! मोठे चांडाळ आसात ते लोक. तांकांय वचून कळोवचें पडलें. ना जाल्यार ते समजतले, तुमकां पोलीस थाण्यार वचपाची बुद्द आमीच दिली म्हण. शेतांत वांयगिणी रोयल्यात. वांयगींळ जावपाइतल्यो व्हडल्यो जाल्यात. त्यो आज रातीकडेन नाच्च जावपाक आसात. तांगेल्या राखण्याक रातची लेगीत न्हीद लागना. वैजबाब पोलीस थाण्यार तुमी आनीक केन्नाय वचात, पयलीं वखदाची बरीशी बाटली व्हरून ताका थंड करात!

म्हातारो थंयसून गेलो, तशे बाकीचे लोकूय वचूंक लागले. नीलमणी बाबून एक लांब हुस्कारो सोडलो आनी ह्या संवसारांत कोणाचें बरें म्हण करूंक जायना, हे खयंच्याय काळार सारकेंच खरे थारलां, अशें एक व्हड सत तोंडान बडबडत तो भितर गेलो.

नारायणी भायले वाटेन तोंड करून हातुणार तळमळटाली. इतल्यान राम आयलो आनी ताणें गोविंदाक म्हळें, "चल गोविंद आमी पांदरो करूंया."

"राम, मातसो हांगां यो." नारायणीन ताका आपयलो. रामाक दुबाव आशिल्लो, ताणें बसला थंयसून म्हळें, "आतां ना! हांव हांगां काम करतां."

"यो म्हणून सांगलो न्हय तुका?" नारायणीन धेंगसो घालो, तसो तो रोखडोच उठलो आनी तिगेले कुडींत वचून एके कडेक बसलो.

"वैजबाबू मेळिल्ले घराकडेन?"

"हूं!"

"कितें सांगलें तांकां?"

"येवपाक सांगलां."

नारायणीक तें खरें दिसलें ना. तिणें खोदुखोदून विचारलें, "फकत येवपाक सांगलें? आनीक कायंच सांगलेंना?"

राम वगीच रावलो.

"सांग न्ही, कितें कितें सांगलें?"

"ना सांगचों"

इतल्यान नृत्यकाली कुडीत आयली आनी तिणें वैजबाबू येतात म्हणपाचें सांगलें.

नारायणीन आंगार चादर ओडली आनी ती कूस परतून न्हिदली.

तितलेभितर राम भायर पळ्ळो. कांय वेळान शामलाल नीलमणीक घेवन कुडींत आयलो. तपासून जातकच वैजबाबून नारायणीक म्हळें, "सूनबाय, जोर उणो जवप हें कितें वैजाच्या हातांत आसता? तुगेल्या देरान म्हाका फायच्या दिसाची मुजत दिल्या. इतलेभितर तूं बरी जालीना जाल्यार, म्हगेल्या घराक तो उजो घालतलो खंय!"

नारायणीक लजेन मरूंक पुरो जालें. "तुमी हुस्को करू नाकात, तागेलीं सगळीं उलोवणी अशींच आसतात." अशें म्हणून तिणें वैजूबाबूक मातसो धीर दिलो.

"लोक म्हणटात तागेलो एक गुंडांचो जथो आसा आनी ते उलयतात तशेंच करतात. हे खातीर भंय दिसता. आमी वखद दिवं प्राण दिवपाक आमच्यांनी जाता?"

नारायणी थोडो वेळ वगी रावली आनी मागीर तिणें म्हळें, "आमकां सगळ्यांक खबर आसा, हो भुरगो एकदीस बंदखणीत गेलेबगर रावचोना. ताचेबरोबर आमकांय वचचें पडना जाल्यांर पुरो म्हणटां."

नीलमणीबाबून आज भितरले कुडींतसून खाशेल्या पेटलांतलें नवें आनी बरें वखद हाडिल्लें. तें दिवन आनी सगळें बरेतरेन सांगून तो वचूंक लागतकच, शामलाल ताका चार रुपये दिवंक लागलो. तेन्ना वैजबाबून जीब चाबून म्हळें, "हें कितें करतात तुमी! म्हजी फी फकत एक रुपयो आसा. ताचेपरस चड पयशे हांव केन्नाच घेना. म्हाका तसली संवय ना. शामबाबू, पयशे दोनूच दिसांचे, पुणून धर्म मात सदांखातीर आसता."

दोनूच दिसांपयलीं ताणें दोन रुपये घेतिल्ले, हें तो आतां विसरलेलो. पुणून शामलालाक मात सगळें खबर आशिल्लें.

नारायणी एकदांची बरी जाली आनी घरांतलें सगळें काम पयलींभशेन करुंक लागली.

दोन म्हयन्या उपरान्तची गजाल. न्हंयचेर न्हावन येवन उदकाचो कळसो सकयल दवरीत नारायणीन नृत्यकालीक विचारलें, "तो माकड खंय गेलो गे?"

माकड कोण हें घरच्या सगळ्यांक खबर आशिल्लें. नित्तोन म्हळें, "आतांच हांगां आशिल्लो. धाकलेबाबू, हो पळे थंय बसून पतंग करता."

राम दिसनाफुडें नारायणीन म्हळें, "हांगां यो रे काळ्या तोंडाच्या, हांगां यो! तुजेखातीर हांव बांयंत जीव दिवं कायं कितें करूं?"

एके कापटेन बेलफळाचें अर्द भुरकीत राम आयलो आनी तिचेमुखार उबो रावलो.

"बिहारीच्या पोरसांतलो तवशिणोचो बेल कित्याक तोडलो सांग"

"ताणें म्हाका पळेला तोडटना?"

"ताणें पळोवंक ना, पुणून हावें पळेला न्ही!' कित्याक तोडलो तें सांग पयलीं."

"ते म्हातारे राणेन म्हाका गाळी कित्याक संवल्यो?"

"तें गाळींचे मागीर आयकतां. तूं चोरतालो कित्याक तें पयलीं सांग!"

रामाक अजाप जालें आनी तेचबरोबर रागूय आयलो. "चोरतालों? केन्नाच ना! एक तवशें काडल्यार कितें चोरले?"

नारायणी सामकी चाळवली. "हय, माकडा चोरलेंच! एकदां न्हय, शंभर फावटीं चोरलें! चोरप म्हळ्यार कितें, हें ल्हान भुरग्याक लेगीत कळटा. येदो व्हडलो मातला तूं आनी अजून तुका हें खबलर ना? एका पांयार उबो राव पयलीं. चांडाळ पोर! राव उबो, उबार पाय!"

त्या घरांतलो सगळ्यांत धाकटो भुरगो गोविंद, हो रामालो सेवक.

चोवीस वरां तो ताचेबरोबर आसतालो आनी सगळ्या कामांत ताका आदार दितालो. रामान सांगिल्लें म्हणून तो हातांत पतंग घेवन झाडामुळांत बशिल्लो. बोवाळ जालो तसो, ताणे पतंग थंयच दवरलो आनी आपूण येवन आवयम्हऱ्यांत उबो रावलो.

राम उबो रावपाक अनमनूक लागलो, तेन्ना ताणें म्हळें, ''काका राव उबो एका पांयार, असो!'' अशें म्हणून ताणें कसो उबो रावपाचो तें ताका दाखयलें.

रामान रागान ताचेर एक थापट फुलयलें आनी फाट करून तो एका पांयार उबो रावलो.

नारायणीक हांसूंक येतालें, पुणून तिणें तें भितरले भितर चिड्डिल्लें आनी चल्याक हांडीर घेवन ती रांदचेकुडींत गेली. थोड्या वेळान तिणें परतून येवन पळेलें. राम आजूनूय एका पायार उबो आशिल्लों आनी पुडव्याच्या शेवान दोळे पुसतालो.

''चल, पुरो आतां. हे फुडें असलीं अवचिन्नपणां करूं नका.'' नारायणीन म्हळें. पुणून रामान तें आयकलें ना आनी तसोच उबो रावन तो दोळे पूसुंक लागलो.

नारायणी ताचे म्हऱ्यांत वचून ताचो हात ओडूंक लागली. पुणून तांणें तिचो हात फाफडून उडयलो आनी आंग घट्ट करून तो तसोच उबो रावलो. नारायणी हांसत हांसत परतून एक फावट ताच्या हाताक धरपाक गेली जाल्यार ताणें तिचो हात पयलीं भाशेनूच फाफुडलो आनी एकूच धांव मारून दोळ्यांआड जालो.

थोड्या वेळान नृत्यकाली ताका आपोवंक गेली तेन्ना तिका तो चंडीमंडपाचे पडवेर एके कुशीक तोंड फुगोवन बशिल्लो दिसलो. तिणें म्हळें, ''धाकले बाबा, शाळेंत वचपाचो वेळ जालो. वयनी आपयता तुका.''

रामान कांयच जाप केलीना आनी कांयच आयकूंक येवंक नाशिल्ले भाशेन करून तो थयंच बसून रावलो. मागीर नित्तो ताचे म्हऱ्यांत गेली आनी तिणें

व्हडल्यान म्हळें, ‘‘वयनीन तुका न्हावन धुवन जेवपाक आपयला.’’

रामान येदे व्हडले दोळे करून तिचेकडेन पळेलें आनी व्हडल्यान आवाज काडून म्हळें, ‘‘चलूंक लाग तूं हांगांची. चल वच!’’

‘‘बरें तर! हांव वचून सांगता तिका. अशें म्हणून नित्तो वचूंक लागली. तितल्यांन राम फाटले वाटेन आशिल्ले खवदळ उदकाचे तळ्येंत उडकी मारून आयलो आनी ओल्या आंगान आनी कपड्यांनी पयलीं भाशेन बसून रावलो. नारायणीक तें कळनाफुडें ती भियेवन धांवत आयली.

‘‘आरे भुता, हें कितें आडायलां रे तुवें? ते तळयेत पांय लेगीत बुडोंवक लोक भियेतात आनी तुका मात उडकी मारपाक कांयच दिसलेंना?’’ अशें म्हणून तिणे आपल्या पदरान तांचे माथें आनी आंग सारकें बरें पुसलें, आनी ओली मुस्तायकी आपल्या हातान बदलली आनी मागीर घराकडेन व्हरून ताका जेवण वाडलें. राम जेवपाच्या थाळ्यामुखार, पोले फुगोवन खुंट्या भशेन बसून रावलो.

नारायणीन ताच्या मनातली गजाल वळखली. म्हऱ्यांत वचून ताचे तकलेवयल्यान हात भोवंडायत तिणें म्हळें, ‘‘शाणो मूं तूं? जाल्यार आतांचे खेपे तुजो तूं जेव! सांजेवेळा मागीर हांव जेवयतलीं हें पळे कितलेतरी पीठ उरलां कालोवपाचें. जेव शाण्या!’’ मागीर राम मोन्यानी जेवलो आनी शाळेंत गेलो.

‘‘तुगेल्या असल्या अपुर्बायांनीच वाट लागल्या ताची वयना! येद्या व्हडल्या भुरग्याक मांडयेर बसोवन कोण लायता? मातसो राग आयलो जाल्यार मांडयेर बसोवन लावप ही खंयची बाये रीत?’’

‘‘तशें न्हय गो नित्तो,’’ नारायणीन हांसून म्हळें ‘‘नाजाल्यार जेवंचो नाशिल्लो न्हय तो! सांजवेळा जेवयतलीं म्हणून सांगूक नाशिल्लें’’ जाल्यार रागान जेवीनासतना तसोच बसतलो आशिल्लो आनी शाळेंत लेगीत वचचो नाशिल्लो.’’

‘‘कित्याक जेवचो नाशिल्लो? भूक लागतकच आपले आपूण जेवतलो

आशिल्लो. येदो जाण्टो जालो.''

नारायणीक नित्तोलें उलवप निखालस मानवलेंना. तिणें म्हळे, ''तुमी ताची पिराय वाडली इतलेंच पळेतात. तो जाणटो जातकच ताका आपशींच सगळें कळटलें. मागीर तो लजेन आपले आपूण जेवतलो. तोच जावन वेगेंत बसचोना.''

''हाव सांगता तें ताच्याच बऱ्याक वयनी, नांजाल्यार म्हाका कित्याक पडलां. तेरा चवदा वर्सांचो जालो. आजून बुद्द येवंना जाल्यार् केन्ना येतली तर?''

नारायणीक आतां मात राग आयलो आनी तिणें म्हळें, ''पिराय वाडली म्हणून बुद्द येता, अशें ना नित्तो. कोणाक एक वर्स पयलीं येता, कोणाक दोन वर्सां मागीर! आनी बुद्द येवं वा ना येवं, तुमकां ताचो इतलो हुस्को कित्याक काय म्हणटां?''

''हांगाच तुमी चुकतात वयनी! तो कितलो आडांगी जाला तें तुमकां खबर ना! सगळ्या वाड्यार हेंच उलयतात. तुमचे अपुर्बायेन ताची वाट...''

नारायणीचो गळो सामको सुकून आयलो. तिणें म्हळें, ''अपुर्बाय करता तितलेंच लोकांक दिसता. उलयतां, मारतां ते दिसना. पुणून तूं काय वाड्यावयली न्हय मूं? सकाळच्यान एका पांयार उबो रावून रडटालो. तळयेंतल्या रेब्याच्या उदकांत न्हावन आयलो. जोर बी येना जाल्यार पुरो! तुज्या मनांतल्यान कितें हावें ताका उपाशीं पोटान शाळेंत धांवडपाचो? घरांतले आनी भायलें हे उणाकपण आता दिसरात म्हज्यान सोसूंक नज नित्तो.''

उलयतां उलयतां तिचो गळो भरून आयलो आनी दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवक लागलीं. तिणें तीं पदरान पुसलीं. कालचे रातीं हेच गजाली वयल्यान घोवाबायलेचें झगडें जाल्लें, हें नित्तोक खबर नाशिल्लें.

नृत्यकालीक सामकें मरुंक पुरो जालें. तिणें दुखेस्त सुरांत म्हळें, ''तूं रडली

कित्याक वयनी? हावें वायटाक सांगूक ना तुका. लोक म्हणटात तें तुका कळचें, म्हण सांगले.''

नारायणीन दोळे पुशीत म्हळें, ''देव सगळ्या मनशांक एका सारके घडयना. तो मातसो आडांगी आसा, म्हण ताका तोंड धांपून सगळ्यांचें आयकुचें पडटा, पुणून लोकांनी जेन्ना तेन्ना हांव ताची अपुर्बाय करतां म्हण कित्याक म्हणूंक जाय? लोकांक कितें दिसता, हांवें ताका मारून न्हयेंत उडोवचो? मागीर तांगेली काळजां थंड जातली?'' इतलें उलोवन, नित्तोन आनीक कितेंय म्हणचे पयलींच ती भितर गेली.

नित्तोचें तोंड येदेशें जालें. तिणे मनांत म्हळें, 'कितें म्हण देवाकूच खबर! सगळ्या गजालीनी जिची बुद्द बरी चलता, जिचेकडेन धाडस आसा, तिका ही येदीशी गजाल कशी कळना काय म्हणटां हांव! आनी कसलें ते धपकावप आनी मारप? भुरगो एक खीणभर एका पांयार उबो रावून रडलो जाल्यार कितें सगळो संवसार उरफाटो जालो?'

रामाक भावाबराबर जेवपाक मातय आवडनाशिल्लें. नारायणीन आज मुद्दामूच दोगांचेय थाळे एकीकडेन दवरले, आनी आपूण वचून पेल्यान बसली. राम रांदचेकुडींत येनाफुडें खुबलो, ''हांव जेविना चल! आज हांव जेवचोचना!''

''तशें जाल्यार चल न्हीद वचून!'' नारायणीचो उलोवपाचो आयचो सूर पळोवन राम थप्प पडलो. पुणून तो जेवंक मात बसलो ना. तसोच मोन्यांनी उबो रावलो.''

शामलालाक भितर येतना पळोवन राम वारें कसो भायर धावलो. शामलाल सवकसायेन जेवंक बसलो.

''राम जेवलोना?'' ताणें विचारलें.

नारायणीन म्हळें, ''तो म्हजेबरोबर जेवतलो.''

शामलाल जेवन भायर गेलो आनी राम मुठींत गोबोर घेवन आयलो आनी

ताणें म्हळें, "हांव कोणाकूच जेवंक दिवचोना. सगळ्या आयदनांनी गोबोर घालतलों, घालूं?"

"घाल आनी पळे मागीर कित्तें जाता तें. ख्यास्त केलेबागर रावचीना" नारायणीन दोळे व्हडले करून म्हळें आनी रामान गोबोर मुठींतूच चिड्डिलो.

"व्हडली आयल्या ख्यास्त दिवपी. सकाळी म्हाका सांजचें नांव घेवन फटोवन जेवयलो आनी आतां ख्यास्त करतली म्हणटा?"

"तूं जेवलो कित्याक?"

"तुवें कित्याक सांगिल्ले, रातिचे..."

"रेडो खंयचो! दुसऱ्याच्या हातान खावपाक लज दिसना?"

"दुसऱ्याचो हात? कोणाचो? तुवेंच जाल्यार म्हणिल्लें!"

रामालें अबुद्दिपण पळोवन नारायणीन मागीर वाद घालोना. "चल गोबोर भायर उडय, आनी हात निवळ धुवन यो. हाचेफुडें मात केन्नाच लावंक सांगशी जाल्यार पळे आं!"

नारायणी रामाक जेवयतना, नित्तो गरज नासतना भितर आयली आनी थंयसून पडवेर गेली. नारायणीक तें समजलें. तिणे रामाक म्हळें, "राम तुका केन्नाच अक्कल येवचिना रे. देव तुका केन्नाच बरी बुद्द दिवचोना! लोक उलयतात तें म्हज्यान सोसूंक जायना रे पुता!"

रामान तोंडांतली उंडी भायर काडून म्हळें, "कोण ते लोक? नांव सांग म्हाका तांचें!"

नारायणीन एक हुस्कारो सोडून म्हळें, "जालें रोखडेंच? कोण तें नांव सांग तांचें!"

पुणून आनीक कांय म्हयन्यांनी नारायणीक खऱ्यांनीच सोसूंक नज जालें. तिची विधवा आवय दिगम्बरी, आपले धा वर्सांचे धुवेक सरधुनीक घेवन आपल्या

भावागेर अशे तशे दीस काडटाली. तिगेलो भाव मरतकच, तिका दुसरेकडेन खंयच थारो नाशिल्ल्यान, नारायणीन घोवाचे मान्यतायेन मनीस धाडून तिका आपोवन हाडिल्ली. येवंचे येवन तिणें नारायणीचेर चेंपण दवरलेलें आनी आता ती रामाचेरूय अधिकार गाजोवंक सोदताली. पयलींसुनूच ती रामाकडेन वायट नदरेन पळेताली.

रामान आज सकाळफुडेंच दोन तीन हात लांबयेचो पिंपळाचो एक रोपो हाडिल्लो आनी तो आंगणाचे मदीं रोवपाचो तागेलो कारभार आतां चालू आशिल्लो.

रामाचे कुडीच्या दारात फतकल मारून बशिल्लेकडेन दिगम्बरीमालेन थोडो वेळ तें पळेलें, आनी मागीर तिडकीन विचारलें, ‘‘तें कितें करता रे राम?’’

रामान तिचेकडेन पळोवन म्हळें, ‘‘हो पिंपळ व्हडलो जालो म्हण्टकच, खूब सांवळी दितलो. मास्तरान सांगला, पिंपळाची सांवळी चड बरी आसता म्हण. गोविंद चल, एक तांबयोभर उदक घेवन यो! आनी भोलो, तूं एक व्हडलोसो कोंडो हाड! वंय करुंया! नाजाल्यार पाडको खावन उडयतलो.’’

दिगम्बरीच्या आंगाक सामको उजो पेटलो, तिणे किंकाटून म्हळें, ‘‘आंगणात पिपळाचें झाड? संवसाराभायलेंच तुगेलें सगळें! घराम्हऱ्यांत पिंपळ रोयिल्लो हांगाच पळेलो.’’

रामान तिगेलें आयकूंक नाशिल्ले भशेन केलें. गोविंद आपणाच्यान हाडूंक जायत इतलें चेंबूभर उदक घेवन आयलो. रामान चेंबू आपणाल्या हातांत घेतलो आनी मायेन हांसून म्हळें, ‘‘इतल्या चेंबूभर उदकान कितें जातलें रे पिशा? तूं हांगा राव, हांव हाडटां!’’

ताचे उपरान्त रामान थंय उदकाचे घोगे व्हांवोवन, सगळ्याक चिखोल केलो, आनी तें झाड रोवपाचें काम एकदांचें सोपयलीं. ते म्हणसर नारायणीय न्हंयचेर न्हावन आयली. दिगम्बरी अजुनूय रागान घुसमट्टाली. तिचे मुखारूच रामान तें

सगळें कर्तूप केल्लें. चली येनाफुडें तिणे बोबाट मारून म्हळें, "नारायणी, सारकें पळे तुगेल्या देरालें कर्तूप. आंगणात पिंपळ रोयला आनी वयल्यान सांगता, सावळी जातली म्हणून. आनी फाटल्यान त्या अवचिन्नाक भोलाक पळे, सगळोच कोंडो कसो ओडून हाडटा तो! वंय करतलो खंय!"

नारायणीन फाटल्यान पळेलें. भोला एक व्हडलो कोंडो आनी कापटां घेवन येतालो. राम आनी भोला बरोबरचेच. नारायणी हांसूंक लागली. एकेवाटेन आवयलो थयथयाट आनी दुसरेवाटेन रामालीं पिशेपणां. सगळ्यो गजाली तिका हांसूंक येवपासारक्यो आशिल्यो. "आंगणांत पिपळांचें झाड रोवन कितें जातलें रे?" तिणें रामाक हांसून विचारलें.

"कितें जातलें म्हळ्यार? कितली थंड सांवळी मेळटली जाणा वयनी? ही ल्हान ताळी आसा न्हय, ती व्हडली जातकच हांव ताका झोपाळो बांदतलों, आनी ताचेर गोविंदाक बसोवन खूब धोलयतलों. बोट दाखोवं नाका रे गोविंद, ताळी वाडचिना! भोला मातशी कोयती दी! वंय घट्ट करची पडटली, नाजाल्यार काळी पाडकी तोंड भितर घालून खावपाक आसा," अशें म्हणून खटखट करून तो कोंडो कातरुंक लागलो.

नारायणी हांसली आनी उदकाची कळसुली दवरूंक रांदचे कुडींत गेली. दिगम्बरीचे दोळे रागान धगधगूंक लागले. आपले धुवेकडेन पळोवन तिणें आड्डून म्हळें, "हांगा पिंपळ कित्याक रोयला काय म्हण तुवें कांयच विचारलेना ताका?"

"आई तूं भिता कित्याक?" नारायणीन हांसून म्हळें, "येदो व्हडलो पिंपळाचो ताळो केन्ना जाता गे? कितलेंय उदक घालें म्हण तो वाडपाक ताका पाळां खंय आसात? फाल्यांच तो सुकचो जालो"

दिगम्बरी मातूय थंड जालीना. "सुकतली म्हणून कितें रावता? हुमटाय, आनी उडय काडून" तें आयकना फुडें नारायणी सामकी भियेली.

“आवयस म्हजे! मागीर घरांत आनीक रावपाचें ना!” तिणें म्हळें.

“कित्याक? घर कितें ताचें एकट्याचें आसा? मनांत आयलें आनी पिंपळाचें झाड रोयलें म्हणपाक? तूं कोण तरी आसा काय ना? म्हगेलो गोविंद कोण न्हय? देवा म्हज्या! पिंपळाच्या झाडाचेर खंयचे खंयचे कावळे, पारवे, गिदां बी येवन रावतलीं, आनी हाडां बिडां उडोवन आंगण भश्टायतलीं. नारायणी, म्हज्यान बाये हांगा रावंक जावचेना गे! पुणून तूं ताका इतकी भियेता कित्यात तेच कळना म्हका! म्हजें घर आशिल्लें जाल्यार, तो केदोय व्हडलो सैतान आसूं आशिल्लो, हांव ताका एका दिसाभितर नीट करतलीं आशिल्लीं”

दिगम्बरी जें कितें उलयताली तें आयकून नारायणीक आपले आवयच्या अंतस्करणाचो देखावो, हारशांतल्या सारको इतलो नितळसाणीन दिसलो. ती मातसो वेळ वोगीच रावली आनी मागीर व्हडल्यान हांसत हांसत तिणें म्हळें, “अजून तो भुरगो आसा आई, ताका बुद्द खंय आयल्या? बुद्द आशिल्ली जाल्यार, घरच्या आंगणांत तो पिंपळ रोयतलो आशिल्लो? दोन दीस आसूंदी! मागीर आपले आपणू काडून उडयतलो.”

“काडून उडयतलो? तो कित्याक उडयतलो? हांव काडून उडयतलीं.”

नारायणीन आवयक थातारीत म्हळें, “नाका आई, अशें मात करू नाका! पयलींच सांगता तुका! तूं ताका सारकी वळखूंक ना! म्हजेबगर ताका तागेलो भाव लेगीत हात लायना! आयचो दीस आसूंदी! मागीर पळोवया!”

“बरें बरें, तूं चल कपडे बदल!” तोंड वांकडें करीत दिगम्बरीन म्हळें. दनपारच्या वेळार आपले कुडींत बसून नारायणी लोडाच्यो चिरयो शिवताली. नित्तोन येवन म्हळें, “वयनी घात जालो! नानीन धाकल्या बाबालें झाड हुमटावन उडयलें. आतां शाळेंतसून येतकच तो सगळ्यांकूच खातलो. कोणाकूच सोडपाचो ना!”

नारायणीन शिवण थंयच उडयली आनी ती बेगिबेगीन भायर धांवली. पळेत

जाल्यार झाड खऱ्यांनीच जाग्यार नाशिल्लें. तिणें आवयक विचारलें.

“आई, रामालें झाड किलें जालें?”

‘दिगम्बरीन बोटान दाखयत म्हळें, “हें पळे, थंयच पडलां”.

तशें म्हणटना तिणें आयद्रना येदें तोंड उलगडलेलें.

नारायणीन म्हऱ्यांत वचून पळेलें. झाड हुमटावनूच उडोंवंक नाशिल्लें जाल्यार, तोडून मोडून ताचे कुडके केल्ले. ती कांयच उलयलिना. तिणें तो रोंपो उबारलो आनी भायर उडोवंक लायलो. मागीर ती तशीच तोंड धांपून कुडींत गेली.

शाळेंतसून येतकच राम सगळ्यांत पयलीं झाड पळोंवक धावलो. तें जाग्यार ना तें पळोवन तो खुबलो. ताणें पाटी दप्तर शेवटून मारलें आनी तो व्हडाव्हडान किंळाच्यो मारुंक लागलो, “वयनी, म्हगेलें झाड!”

नारायणी रांदचे कुडींतल्यान आयली.

“सांगतां हांगा यो!”

“ना ना, येवंचोना! पयलीं सांग! खंय आसा म्हगेले झाड?”

“हांगां म्हज्या म्हऱ्यांत यो न्हय, सांगतां!”

तो आयलोना तेन्ना ती ताचेम्हऱ्यांत गेली आनी ताच्या हाताक धरून ताका आपले कुडींत घेवन आली. मागीर ताका वेंगेंत घेवन, ताचे फाटीवयल्यान हात भोवंडायत तिणें म्हळें, “पिशा मंगळाराचो कोण पिंपळ रोयतात रे?”

“कित्याक? कितें जाता?” मातसो थंड जावन रामान विचारलें.

“घरची व्हडली सून मरता. मंगळाराचो रोवंक जायना”.

तें आयकून रामचो चेरो सामको देंवलो. पुणून खरेंपण करपाक ताणें म्हळें, “ना, ना, तूं फटयता!”

नारायणीन हांसत हांसत विचारलें, ''वयनी केन्ना फट उलयता रे? पुस्तकांत बरयलां तेंवूय फट?''

''खंय दाखय पळोवया पुस्तक''

नारायणी मनांतल्यान भियेली. तरी आसतना तिणें अजाप दाखोवन म्हळें,

''मंगळाराच्या शास्त्राच्या पुस्तकांचे नांव लेगीत घेनात. मागीर तूं तें कशें पळेतलो. भोलाक लेगीत खबर आसा हें. पळे, आपय ताका!''

आपलें पिशेपण भोलामुखार उक्तें जायत ह्या भंयान ताणें आपले आवय समान आशिल्ले, वयनीच्या गळ्यांत हात घाले, आनी आपली तकली तिगेल्या हड्ड्याक तेकयली आनी म्हळें, ''नाका, नाका, भोलाक नाका! म्हाकाय खबर आसात तें, पुणून आतां काडून उडयलें म्हण्टकच सगळो दोश गेलो मगे वयनी?''

नारायणीन ताका हड्ड्याकडे घट्ट धरलो. तिगेले दोळे दुकांनी भरले. ''ना ना, आतां सगळो दोश गेलो. राम, हांव मरता जाल्यार तूं कितें करतलो रे?

रामान मान हालयत म्हळें, ''शी, शी, तशें म्हणिनात!''.

नारायणीन मान कुशीक करून दोळे पुसले. ''आतां म्हातारी जालीं न्हय? म्हण्टकच मरपाचीच!'' तें आयकतकच, ती आपलीं फकणां करता हें रामाक कळ्ळें.

ताणें हांसून म्हळें, ''तू म्हाताली जाली? जाल्यार तुजे दांत पडूंकना, एकूय केंस पिकूंक ना''. ''केंस पिकलेना जाल्यार कितें जालें?'' हांव एकाद्री न्हंयेंत बुडून मरन! न्हावंक वतली ती परतून येवंचीच ना!''

''कित्याक गे वयनी?''

''तुका लागून! म्हजे आवयक तूं दिश्टीक पडूंक दिना. रात दीस झगडटा.

ज्या दिसा हांव परतून येवंची ना, त्या दिसा कळटलें तुका''.

रामाक तें खरें दिसलेंना तरी, त्याच्या मनात भंय मात जालो. ताणें म्हळें
''आतां हांव तिका कांयच म्हणचोना. पुणून ती म्हाका कित्याक तिडायत
तर?''

''तिडावं तिडायल्यार! ती म्हजी आवय न्ही? ती म्हातारी जाल्या! जसो त
म्हजेर माया करता, तशी तिचेरूय कर! करतलो मूं?''

रामान आपलें तोंड वयनीच्या पदरांत लिपयलें. अशेतरेन तोंड लिपोवन ताणें
तेरा वर्सां काडल्यांत. येदो व्हडलो जातकच तो फट कसो उलयतलो? त्याच्यान
तें कशेंच जावंचें नाशिल्लें.

नारायणीन भरिल्ल्या गळ्यान म्हळें, ''अशें तोंड लिपोवन जावंचें ना, सांग!
दिस्त त्याच वेळार दिगम्बरी थंय पावली आनी तिणें जाता तितल्या कोडू उतरांनी
म्हळें, ''तुका आनीक कांय धंदो ना दिसता नारायणी? तूं हांगा देराकडेन चलास
करुंक बसल्या आनी तुगेल्या चल्याची थंय दुर्दशा चल्ल्या''.

रामान तोंड वयर करून तिचेकडेन रागान पळेलें. तागेले दोळे त्या वेळार
भुकेल्या शिंवासारके चकमकताले.

नारायणीन ताची तकली बळयां सकल चिड्डिली आनी आवयक विचारलें,
''दुर्दशा चल्ल्या? कशी?''

''कशी? हें बरें आं तुगेलें!'' इतलें म्हळें आनी ती चलूंक लागली. एक
फटीची गजाल तयार करून सांगप तिका जमलेना.

रामान बळयां तोंड वयर उखल्लें आनी म्हळें, ''हे म्हातारेक हांव मारलेबगर
रावचोना!''

नारायणीन ताचें तोंड बळयां आपल्या पदरांत चिड्डिलें, आनी म्हळें, ''वोगी
राव पोरा, ती म्हजी आवय मरे चांडाळा!''.

चार पांच दिसां उपरांत एक दीस राम जेवतां जेवतानाच रडूंक लागलो. दोन तीन फावटीं उदक पियेवन, जेवणाचो थाळो ताणें धुकळून उडयलो आनी उबो रावन नाचतां नाचतां म्हणूंक लागलो, "ते म्हातारेच्या हातचें जेवण हांव जेवचोना – केन्नाच जेवंचोना. मिरसांगेन म्हजें तोंड हुलपता वयनी, ए वयनी..."

राम रागान रडूंक लागलो. "हांव केन्नाय जेवंचोना! तिच्या हातचें केन्नाच जेवंचोना! तिका धांवडाय!" अशें म्हणून तो भायर धांवलो.

नारायणी थोडो वेळ तशीच उबी रावली आनी मागीर तिणें आवयक म्हळें, "आई भाज्जेंत चड मिरसांग घालूं नाका म्हण कितले फावटी सांगलें तुका? इतलें तीख खावपाची हांगा कोणाकूच सवंय ना!"

दिगम्बरी तिचेर खुबळ्ळी. चंड मिरसांग घाली खंय! दोन मिरसांगो चड पडल्या, येदो बोवाळ करुंक जाय?"

नारायणीन तिकडून म्हळें, "दोन मिरसांगो चड घाल्योना जाल्यार कितें अडटा? जेन्ना कोणूच खायना"

"तोंड धांप पयलीं नारायणी! तोंड धाप!" नारायणीक फुडें उलोंवक दी नासतना दिगम्बरीन तिचेर धेंगसो घालो. "व्हडली आयल्या म्हाका शिकोवंक! रांदतां रांदता म्हजे केंस पिकले. आता पोटांतले चलयेकडल्यान म्हाका रांदूंक शिकचें पडलें. पाड पडूं म्हज्या कर्माक!"

नारायणी तोंड धांपून रांदचेकुडींत गेली आनी भाजी चिरपाक लागली. दिगम्बरीन दाराक तकली तेंकयली आनी ती मोठ्यान बोबाट मारुंक लागली, "आरे म्हज्या भावा! म्हाकाय तुज्या म्हर्‍यांत व्हर! आतां म्हज्यान हें सोसूंक नज! तोंडांक येता त्यो गाळी मारता! हांव म्हातारी! म्हाका धांवडाय! हांव जांवय धुवेगेर अन्नाक पडल्या! गोळ घेतली जाल्यार म्हजेकडेन दोरी लेगीत ना! हाचेपरस गांवांत भीक मागून पोट भरल्यार चड बरें आशिल्लें. सुरू, चल म्हज्या बाय, या आमी आतां. ह्या घरचें अन्नउदक घेवप"

सुरधुनी रडकुळें तोंड करून आवयचे म्हऱ्यांत येवन उबी रावली. दिगम्बरी तिचो हात धरून वचपाक तयार जाली.

नारायणी भाजी चिरताली. आदोळी कुशीक दवरून ती आयली आनी आवयची वाट आडावन उबी रावली.

दिगम्बरीन रडपाचें नाटक चालूच दवरलें, "म्हाका आडावं नाका नारायणी, वचूंदी आमकां! हांगांचें अन्न खावंचेपरस झाडामुळांत उपाशीं मेल्यार चड बरें!".

नारायणीन तिच्या पांयां पडून म्हळें, "कोणाचेर रागार जावन वता तूं आई? आमचे कडल्यान कितें चूक जाल्या तें सांग न्ही?"

दिगम्बरी आतां चडूच नेटान रडूंक लागली. नाकयां म्हणूंक लागली, "हांव कितें आतां लहान ना नारायणी! म्हाका सगळें समजता! तुजी फूस आसलेबगर ताका इतलें उलोंवक जमचें नाशिल्लें! हांव म्हाताड्डूल आसा, धांवडाय म्हाका, बरें आसा! म्हजे हावूंच वतां! हाव तुमच्या गळ्यांतलो गोळाचो दोर जावन आसा! तुका बऱ्यान सांगता, कुशीक सर, म्हजे वाटेतसून!"

नारायणीन आवयचे दोनूय पांय धरले आनी म्हळें, "आयचो दीज म्हजी चूक पोटांत घाल, तांकां येवंदी. मागीर तुका जाय तशें कर." इतलें म्हणून तिका हाताक धरून ती भितर घेवन गेली तिच्या दोनूय पांयांचेर उदक घालें, पदरान ते पुसले, आनी एका पाटार बसोवन, आयण्यान तिका वारो घालूंक लागली.

तितल्या वेळापुरतो दिगम्बरीलो राग उणो जालो. पुणून दनपरां शामलाल जेवंक बसला थंय दाराच्या आडसाक बसून ती हेळे काडून रडूंक लागली. शामलाल तिचेकडेन पळेत रावलो. कितें घडलां म्हणपाचें ताका कळ्ळेंना. मागीर इल्लीइल्ली करून सगळी गजाल ताका समजली, तेन्ना जेवण अद्र्याचेरुच सोडून तो उठलो.'

हो कोणावयलो राग हें नारायणीक समजलें. नृत्यकालीच्यान तें सोयूंक

नज जालें. घरांत ती एकलीच उकतेपणी उलोवपी आशिल्ली. तिणें सट्ट करून म्हळें, "नानीन मुद्दामूचं व्हडल्या बाबाक जेवंक दिलोना. आनीक एक दोन मिनटां उपरान्त दोळ्यांतल्यान उदकां व्हांवयल्ली जाल्यार, ती कितें सुकून वचचीं. नाशिल्ली, नानी!"

दिगम्बरीलें तोंड सामकें काळें बिण्ण जालें आनी कांयच उलयनासतना ती थंयच बसून रावली.

खंय खंय हेड्डून जातकच दनपारच्या वेळार राम घराकडेन आयलो. हांगां थंय सोदीत सोदीत तो वयनीचे कुडींत पावलो. नारायणी गोविंदाक म्हऱ्यांत घेवन न्हिदिल्ली, ताका तें बऱ्याचें चिन्न दिसलेंना. तरी आसतनाय ताणें ल्हवू म्हळें, "वयनी म्हाका भूक लागल्या"

वयनीन कांयच जाप केलीना. ताणें आनीक मातशें मोठ्यान म्हळें, "कितें खावं?"

न्हिदिल्ली थंयसुनूच नारायणीन जाप केली, "म्हाका खबर ना! चल हांगाचो!"

"ना, ना वचचों! म्हाका कितें भूक लागना दिसता?"

नारायणीन कूस परतून दुखेस्त सुरांत म्हळें, "म्हाका त्रास दिवंनाका पळोवया! नित्तो आसतली थंय, तिका सांग!"

राम आनीक कांयच उलयनासतना भायर गेलो आनी नित्तोक सोदूंक लागलो. ती मेळ्ळी तशें ताणें तिचेकडेन खावंक मागलें.

नित्तो तयारुच आशिल्ली. तिणें ताचेखातीर कोपभर दूद, शंकरपाळे आनी थोडो चिवडो हाडलो.

"इतलेंच?" रामान रागान विचारलें.

"धाकले बाबा, तुज्या बऱ्याक सांगतां, तोंड धांपून खा! बोवाळ करूं नाका!

व्हडलो बाब जेवीनासतना कामाक गेला आनी वयनी उपाशीं न्हिदल्या. बोवाळ आयकून आयली जाल्यार, तुजो परिणाम ना म्हणून समज!'' नित्तोन म्हळें. राम दूद पियेलो आनी शंकरपाळे आनी चिवडो बोल्सांत घालून तळयेचे देगेर एका झाडामुळां वचून बसलो. ताका खाण रुचना जालें. वयनी उपाशीं न्हिदल्या हेंच ताका परतून येवजूंक लागलें आनी तो कश्टी जालो. जालें. चिवडो खातां खांता तो येवजितालो. पयलींच्या रूशींभशेन म्हाका जर एक मंत्र आयिल्लो जाल्यार, हांगा बशिल्लेकडेन हांव वयनींचे पोट जेवणान भरतलों आशिल्लो. पुणून म्हाका मंत्र काय येना. आतां कितें करचें? ताका लज दिसूंक लागली. ते भायर भाऊ जेंविनासतना गेला म्हण्टकच वयनी जेवंचीचना.

ताणें बोलसांतलो चिवडो आनी शंकरपाळे ल्हवू तळयेंत उडयलें आनी तो थंयचे थंयच भोवंक लागलो. परतून परतून ताका एकूच येवजतालें. ''वयनी उपाशीं आसा''. तो जितलें चड येवजूंक लागलो, तितलें ताचें मन चड कश्टी जावंक लागलें, ताच्या मनाक सुयो तोपूंक लागल्यो.

रातीकडेन शामलालान बायलेक म्हळें, ''आतां म्हज्यान हें सोसूंक नज. ताचेबरोबर रावप मोटें कठीण काम जालां''.

नारायणीक घोवालीं उतरां आयकून अजाप दिसलें. ''कोणाची गजाल करतात?'' तिणे विचारलें.

''आनीक कोणाची, रामाची! तुगेली आवय चार पांच दीस एक सारकें सांगता, तो खंय तिका बेश्टयोच गाळी मारता. हांव जाल्यार पांच पंचांक आपोवन, तांचेफुड्यांत सगळी वांटणी करतलो आनी ताका वेगळो दवरतलों. आतां म्हज्यान सोसूंक नज!''.

नारायणीक उतर फुटना जालें, मातसो वेळ ती वोगी रावली आनी मागीर तिणें ल्हवू म्हळें, ''रामाक वेगळो करतले हीं उतरां तुमचे जिबेर आयलीं तरी कशीं? तो अजून भुरगो आसा. भाटबेंस आनी पयशे घेवन तो कितें करतलो?''

शामलालान चाळयल्ले भशेन म्हळें, "हय तर, सामको भुरगो आसा, तागेल्या भाटाबेसांचें आनी पयशांचे ताका जाय ते करुंदी!"

"'ताका कांयच समजना' हांव जाणा न्ही! आतां समजलें, आई तुमकां चार पांच दीस हेंच सांगत भोंवताली दिसता!" नारायणीलीं उतरां आयकून शामलालान बेगीबेगीन आपणाक सांबाळून घेत म्हळें, "शे शे, तिणें सांगूंक ना म्हाका! लोकांक दोळे नात? म्हाका कितें तुवें सादो भोळे धरला? म्हाका कांयच दिश्टी पडना?"

"पुणून तुमी सारकें येवजिनात! तागेलो आनीक कोण आसा? कोणाक घेवन तो वेगळो रावतलो? ना आवय, ना भाव भयणी, ना मावशी! आसा कोण? कोण वाडटलो ताका रांदून?"

शामलालान तिकडीन म्हळें, "ते सगळें हांव नकळं!"

ताणें तोंडान जरी हांव नकळ म्हणिल्लें, तरी ताका भितरल्यान सगळें खबर आशिल्लें, नारायणीच्यान फुडें उलोवंक नज जालें. तिचे ओंठ थरथरुंक लागले. मातसो वेळती वोगी रावली. आपणाक सारकें सांबाळून घेतले. आनी मागीर भरून आयिल्ल्या गळ्यान म्हळें, "हे पळेयात, तेरा वर्सांचेर चलयो जेन्ना बावलेचो खेळ खेळटात, तेन्ना म्हजे मांयन हो सगळो घरसंवसार म्हजेर सोंपयल्लो आनी ती देवा घरा गेल्ली. आपणे हिचेर घाल्लो भार, ही सारको सांभाळटा कांय ना, हें ती वयरसून पळेता आसतली. भुरग्यांक बरेभशेन सांभाळीत, ताका खावयत जेवयत, आनी सगळ्या कुटुंबाचो आनी सोयऱ्या धायऱ्यांचो सगळो भार म्हज्या माथ्यार घेत, आता हांव सव्वीस वर्सांची अर्द म्हातारी जाल्या. आता जर तुमी म्हज्या घरसंवसारात लक्ष घालशात जाल्यार, खऱ्यांनीच सांगता, हांव न्हंयेंत जीव दिलेबगर रावंचीना. मागीर दुसरें लग्न जायात आनी रामाक वेगळो दवरात ना जाल्यार मनाक येत तशें करात. हांव तें पळोवंक येवचिना, न्हय कांयच सांगचिना आयकुचिना! म्हजे मुखार मात तें नाका!"

शामलाल बायलेच्या उतरांनी सामको भियेलो आनी फुडें कांयच उलयलोना.

ती गजाल ते रातीकडेन इतल्याचेरूच थांबली.

दुसऱ्या दिसा नारायणीन रामाक आपल्या म्हऱ्यांत बसोवन ताचे फाटीवयल्यान मायेन हात भोंवडायत म्हळें, ''राम, तूं आतां हांगा रावूं नाका, भांगरा म्हज्या! तुज्यान आनीक खंयूय वचून रावंक जायत?''.

वयनील्या उतरांनी राम खोशी जालो आनी ताणें म्हळें, ''हय हांव बरो रावन वयनी! हांव, तूं, गोविंद आनी भोला! केन्ना या तें सांग!''.

नारायणी कांयच उलयली ना. ती उलयतली तरी कितें आशिल्ली! पुणून राम खंय आयकुपी? ताका थंयसून वचपाची सामकी उमेद जाल्ली. ताणें नारायणीक हुतहुतेपणान विचारलें, ''केन्ना वचपाचें गे वयनी?''.

मागीर मात नारायणीच्यान रावंक नज जालें. उलोवपाचे बदला तिणें ताका हड्ड्याकडेन घट्ट धरलो आनी विचारलें, ''वयनीक सोडून दुसरेकडेन रावंक जावचेना रे तुज्यान?''

रामान मान हालयत ''ना'' म्हळें.

''आनी वयनी मेली जाल्यार?''

''शी!''.

''शी न्हय! आतां तू वयनीचें कांयच आयकना. मागीर कळटलें!''

''केन्ना आयकुंक ना तुगेले?''.

''केन्ना आयकलां सांग! हांव तुका केन्नाच्यान सांगता, म्हजे आवयक तूं कित्याकितेंय उलोवं नाका. तरी आसतना तुज्या मनाक येता तशें तूं तिका उलयता. कालूच तुवें तिचो केदो अपमान केलो!

हाचे फुडें तुवें अशें केलें जाल्यार म्हज्या मनाक येत थंय हांव, चलूंक लागतलीं''.

‘हांवयू येतलों तुजेबरोबर!’’.

‘‘तुका कळचें लेगीत ना हांव केन्ना गेली तें! हांव लिपून वतलीं!’’.

‘‘आनी गोविंद?’’.

‘‘तो तुजेम्हन्यांत रावतलो. तूंच सांबाळ ताका!’’.

‘‘ना ना, म्हज्यान तें जावचें ना वयनी!’’.

नारायणीक हांसूंक आयलें. तिणें म्हळें, ‘‘कशें जावंचें ना? तुवेंच ताका सांबाळचो पडटलो’’.

रामाक तें खरें दिसना जालें. तो व्हडल्यान हांसूंक लागलो. ‘‘सगळीं फकाणां! तूं वचची ना!’’.

‘‘फटीचें न्हय! खऱ्यांनीच सांगता पळे, हांव वतलींच!’’.

रामाक शेळो घाम आयलो. ताणें भियेवन म्हळें, ‘‘आनी तूं सांगता तें सगळें आयकलें जाल्यार?’’.

‘‘जाल्यार वचचिना! आनी तुका गोविंदाकूय सांभाळचो पडचो ना!’’.

नारायणीन मुमुरक्यानी हांसत म्हळें.

तें आयकनाफुडें राम खोशी जालो आनी ताणें म्हळें, ‘‘बरें आसा! आयच्यान पळेच तूं!’’

कांयच बोवाळ वा पिडापीड जायनासतना आठ धा दीस बरेतरेन गेले. दिगम्बरी रामाक कितेंय ना कितें म्हणटालीच, पुणून तो तिका जाप करीनाशिल्लो. त्या दिसा वयनीन सांगिल्ली गजाल जरी ताका पुराय खरी दिसूंक नाशिल्ली, तरीकूय तो मनांतल्यान खूब भियल्लो. पुणून त्या घरांतलो सुशेग देवाक मानवलोना आनी परतून एक फावट घडणूक घडली.

दिगम्बरीनं आपल्या बापायच्या श्राद्धाखातीर बारा भट जेवोवपाचें सांगणे

केल्लें, बापायचो आत्मो इतलो तेप आपल्या पुतागेर वोगीच पडून आशिल्लो, तो आतां इल्लो इल्लो जांवयागेर भितर सरुंक लागिल्लो. दोळ्यादिश्टी न्हय, सपनांत, मागीर ताका संतुश्ट करुंकूच जाय.

त्या दिसा सकाळीं राम पाटयेर गणितां सोडोवंक बशिल्लो. इतल्यान भोलान ताच्या कानांत ल्हवूच सांगलें, "भाऊ तुगेल्या गणेश कार्तिकाक धरपाक भगा बाग्दीन पागेर हाडलां वचून पळे तरी".

हांगां एक सांगचें पडटलें. खूप तेपासावन तळयेचे देगेक दोन व्हडलीं नुस्तीं, घुंवडाळ्यो काडटालीं. मनशांक तीं मातूय भियेनाशिल्लीं. राम म्हणटालो, "तीं नुस्तीं आपणे पोसल्यांत! तांचीं नावां ताणे दवरलेलीं, कार्तीक आनी गणेस. वाड्यार असो एकूच मनीस नाशिल्लो, जाका रामान तीं नुस्तीं दाखोंवक ना आनी तांची तुस्त आयकोवंक ना. खंयचो कार्तीक आनी खंयचो गणेश हें कशें वळखप आनी तांकां कसली खूण आसा हें ताचेबगर कोणाकूच खबर नाशिल्लें.

भोला सदांच रामाबराबर आसतालो, पुणून तो लेगीत तांकां वळखतना गोंदळटालो आनी मागीर रामाकडल्यान थापटां खातालो.

नारायणी सदांच फकाणांनी म्हणटाली, "रामाले कार्तीक गणेश म्हगेल्या तेराव्याक उपकारतले".

भोलाची गजाल आयकून रामाक व्हडलेंशें कांयच दिसलेंना.ताणें पाट्येर ओणोव घाल्लेकडेन म्हळें, "जाळ उडोवनीच, मागीर पळे मजा तूं, जाळ तोडून ते भायर सरतले".

"ना भाऊ, आमगेल्या घरांतलें जाळ न्हय, भगान मल्लागेरसून व्हडलें पागेर हाडलां. तें तांच्यानी तोडूंक जावंचेंना". भोलान म्हळें रामान रोखडीच पाटी कुशीन दवरली आनी "चल पळोवया". अशें म्हणून तो भोलाक घेवन गेलो.

तळ्याचे धडेर वचून पळे जाल्यार कार्तीक – गणेशाक धरपाचो थंय कट चलतालो. भगान तडीक इल्लो चिंवडो शिंपडायल्लो आनी पागेर घेवन तो

तयारेंत राविल्लो.

रामान ताका नेटाचो एक धोंगसो मारलो आनी म्हळें, ''चोरा, चिंवडो उडोवन म्हगेल्या नुस्त्यांक आपयतालो''.

भगा सामको रडपाक पावलो. ताणें म्हळें, ''व्हडल्या बाबान सांगिल्लें भाऊ आज आनीक कायच नुस्तें गावूंक ना''.

रामान तागेल्या हातांतलें पागेर झोमून घेवन भिरकटावन मारलें आनी ताका धांवडायलो.

भगा पागेर घेवन ल्हवू ल्हवू घरा गेलो आनी राम परतून येवन गणितां सोडोवंक बसलो, कोणाचेरुय राग काडचोना असो ताणें सोपूत घेतिल्लो.

दिगम्बरी आज बेगीबेगीन पुजा करून मेकळी जावंक सोदताली, इतल्या वावराडेन येवन सांगलें, ''नुस्तें मेळूंक ना नानी, धाकल्या बाबान भगाक मारुन धांवडायलो''.

त्या दोनूय नुस्त्यांचेर खूब दिसांसावन दिगम्बरीची नदर आशिल्ली. त्या व्हडल्या नुसत्या संबंदान ते विधवा बायलेविशीं कितेंय उलोवप तशें कठीण आशिल्लें. तीं नुस्तीं तिका तिचेखातीर जाय आशिल्लीं अशें म्हणप समाजावचेंना. पुणून आपणातल्या खंयच्याय एका देवकार्यांत आपल्या हातान रांदून तीं ब्राह्मणाक खावंक घालचीं आनी पुण्य जोडचें, अशें कितल्याशाच दिसांसावन तिच्या मनात घोळटालें.

काल तिणें आपल्या जांवयाकडल्यान नुस्तीं हाडपाक मान्यताय मेळयल्ली आनी मल्ला हागेरसून व्हडलें पागेर हाडून घेतिल्लें. पुणून कार्तिक गणेशा संबंदान मात ताका इल्लोय दुबाव येवंक दिवंनाशिल्लो. भगा बागद्याक नुस्तीं हाडपाखातीर चार आणे दिवंचे करून तिणें ना म्हळ्यार सगळी तयारी केल्ली. आज सकाळींच वचून ती दोनूय नुस्ती थंय भोंवतना ती पळोवन आयिल्ली आनी आतां निश्चींत मनान हातांत माळ घेवून जपाक बशिल्ली, इतल्यान तिच्या कानार ती गजाल

पडली. ती आयकनाफुडें रागान तिच्या आंगाक उजो पेटलो. माळ वयर उबारून दांत 'चिड्डीत' तिणें म्हळें, कोण रे तो म्हजो दुस्मान! तो गुंड जेन्ना मरतलो, तेन्नाच म्हजो आत्मो थंड जातलो. आजून तोंडात उदकाचो थेंब लेगीत घेवंक नारे देवा! हांव खरी आसन जाल्यार तिसऱ्या दिसा..."

नारायणी थंय लार्गीच भाजी चिरताली. विजेभशेन ती एकदम उठली आनी तिडकीन तिणें एकूच किंळाच मारली, "आई!"

"आई" ह्या आवयक उलो मारपाच्या उतराक संवसारांत तुळा ना अशें आयकल्लें आनी नारायणीन आतां म्हणिल्ल्या "आई" ह्या उतराकूय संवसारांत तुळा नासतली.

त्या दोन अक्षरी उतरांत दिगम्बरीच्या काळजाचें सामकें उदक जालें. नारायणी मात कशीच शान्त जाली ना. पळेतां पळेतां तिच्या दोनूय दोळ्यांतल्यान टप टप करून दुकां गळूंक लागलीं. थोड्या वेळान दोळे पुसून ती राम बरप काडटालो थंय वचून उबी रावली आनी ताका तीख सुरांत विचारलें, "तुवें भगा बाग्दीक मारुन धांवडायलो?"

रामाक कच्च जालें, पाट्येवयली नदर वयर करून खिणभर ताणें तिच्या तोंडाकडे पळेलें, आनी तिका ताप करीनासतना दुसऱ्या दाराभायर वचून माथ्यार पांय घेवून तो उबो रावलो.

नारायणीक भितरली गजाल कांयच खबर नाशिल्ली. तिणें भगा बाग्दीक परतून आपोवंक धाडलो आनी तो येतकच ताका नुस्तीं हाडपाक सांगलें.

वयनीन सांगलें तसो भगा पागेर घेवन गेलो, आनी थोड्याच वेळान ताणें एक व्हडलें नुसतें हाडून आंगणात उडयलें.

नारायणी रांदचे कुडीचे दारांत उबी आशिल्ली. नुस्तें पळेना फुडें ती शिटकावली आनी तिणें दुबावान विचारलें, "कितें रे, हाका आमगेले तळयेंत बी धरुंक ना मू तुवें? रामाच्या कार्तिक – गणेसांतलो बी न्हय मूं हो?"

आपणें इतले बगीन नुस्तें हाडलें हे खोशयेंत भगान म्हळें, "हय वयनी, हें आमगेलें तळयेतलेंच नुस्तें. बरें व्हडलें आसा न्हूं". मागीर ताणें दिगम्बरीकडे बोट दाखोवन म्हळें, "ते आईन हेंच नुस्तें हांडूंक सांगिल्लें."

नारायणीचो जीव सामको उडिल्ले भशेन जालो. निर्नल्ले माणकीवरी ती थंयच उबी रावली. नृत्यकाली रामाचेर खोशी नाशिली जाल्यारूय, नुस्तें पळेनाफुडें तिका राग आयलो. तिणें दिगम्बरीक म्हळें, "वा नानी, धाकल्या बाबाल्या कार्तीक गणेसाची गजाल गांवभर लोक जाणात. मागीर कितें येवजून तुवें हे नुस्तें धरुंक लायलें? आनीक दोन तीन तळयो आशिल्ल्यो तांतूत नुस्तीं मेळचीं नाशिल्लीं? फकत धा मनशां खाणारीं. ताचे खातीर हें अर्दमणाचें नुस्तें कित्याक? आतां जाता तितले बेगीन तें खंयतरी लिपयात ना जाल्यार धाकलो बाबा येवन आकांत करतलो".

दिगम्बरीन तोंड वांकडे करीत म्हळें, येदें व्हडलें कपट आसतशें म्हाका दिसूं नाशिल्लें. एक नुस्ते धरलें जाल्यार कितें व्हडलो घात जालो? सगळें कुटुंबाचे कुटुंबच नाचता तें? हाका लिपय खंय! व्हडली आयल्या लिपोवपी! ब्राह्मण कितें खातलें? तुजें बोडूक ?"

"तुमगेले ब्राह्मण जेवतले दोन अडेजांक. ताका खूप कळाव आसा. ते म्हणसर एक सोडून धा नुस्तीं मेळटलीं, धाकल्या बाबाक पयलीं शाळेंत वचूंदी. ना जाल्यार कठीण जातलें. भोला आतांच हांगा आशिल्लो. तो खंय गेलो? सांगपाक गेलो दिसता. आता माणसुकी ना. वयनी जें कितें करपाचें ते आतांच करात. आतां आनी ओगी रावूं नाकात".

भगान चार आण्याचे आशेन पागेर हाडिल्लें. थंबचो बोवाळ पळोवन चार आण्याची आशा सोडून तो चलूंक लागलो.

ह्या वेळार राम खंय आसतलो हें भोलाक दिस्त खबर आशिल्लें. तो धांवत धांवत पोरसाचे फाटले वटेन पेरीच्या झाडामुळां पावलो. राम एके तळयेचे देगेर बसून पेरां खातालो. भोलान धांपेत धांपेत म्हळें, "बेगीन पळोवंक चल भाऊ.

भगान तुगेल्या कार्तिकाक मारलो.''

रामान पेर खावपाचें थांबयलें आनी म्हळें, ''फट!''

''खऱ्यांनीच भाऊ! आईन धरपाक सांगिल्लो. अजून आंगणातूनच आसा. वचून पळे न्ही!''

रामान सकल उडी मारली आनी मोडावरी धांवट तो आगणांत पावलो. थंय पावना फुडें ताचीं पावलां जाग्यारुच घट जालीं. नुस्तें पळेनाफुडें ताणें एकूच बोबाट मारली, ''हो म्हगेलो गणेश, वयनी तुवें गणेसाक धरुंक लायलो?'' अशें म्हणटां ताणें जमनीर घालून घेतलें आनी मारुंक व्हेल्ल्या बोकडाभशेन तो हात पांय धोडांवक लागलो. तागेल दुख्ख केदें व्हड आनी खऱ्याचें आशिल्लें हें दिगम्बरीक लेगीत कळ्ळेबगर रावलेंना.

रातच्या जेवणावेळार नारायणीन ताका कितलो समजायलो – फुसलायलो पुणून रामान हूं काय चूं केलेंना. हाताक धरून उबारलो जाल्यार ताणें तिचो हात फाफुडलो आनी सगळो दीस उपास, रातीकडेच फक्त एक उंडी तोंडांत घाली आनी तो पानावयल्यान उठलो.

दिगम्बरी पायणींत उबी रावन जांवयाक सांगताली, ''तुमी एक वेळ सांगात ना जाल्यार नारायणी जेवंचिना. दीसभर उपाशींच आसा''.

''कित्याक केला उपास?'' शामलालान विचारलें.

दिगम्बरीक रडपाचें सादलेंना म्हण तिणें रडकुरो आवाज काडून म्हळें, ''म्हजीच चूक बाबा! म्हाका कितें खबर तळयेंतल्यान एक नुस्तें हाडल्यार येदें म्हाभारत जायत म्हण?''

शामलालाक सारकें समजलेंना. ताणें वावराडेक आपोवन विचारलें. ''कितें जालां नित्तो?''

नित्तोन उबी आशिल्ली थंयसून सांगलें. ''तो धाकले बाबालो गणेश

आशिल्लो."

शामलालाक सट्ट जालें. ताणें विचारलें, "तो रामाल्या कार्तीक गणेसाभितल्लोच आशिल्लो न्हय?"

नित्तोन "हय" म्हळें.

"आनीक कांय सांगपाची गरज ना, रामानूय खावंक ना जातलें!"

"ना"

"जाल्यार तिका सांगपात कांयच अर्थ ना. तो जेवंक ना जाल्यार ती कशी जेवतली?"

"अशें घडटलें म्हणून कळिल्लें जाल्यार ब्राह्मण जेवोवपाची गजाल हांव चुकून लेगीत करची नाशिल्ली बाबा!" तिणें आपणेच नुस्तें धरपाक लायिल्लें आनी आतां ती हांव अशें कित्याक करता, हें तिवूच जाणा! मातसो वेळ थांबून परतून फटीचें रडत तिणें म्हळें, "म्हजें नशीबूच अशें फुटकें! नाजाल्यार म्हगेलो भाव कित्याक मरतलो आशिल्लो? आनी खोंटो खावपाक हांगां कित्याक येवन पडटलें आशिल्लें? बाबारे, हांव एक गरीब बायल! पांयां पडटां तुका, म्हजेखातीर खंयतरी दुसरेकडेन रावपाची वेवस्ता कर! हावं तोंड धांपून सगळें करूंक सोदताली, तरी आसतना सगळो अन्याय म्हजोच! अशें आसा जाल्यार दुसरेकडेन गेल्लें बरें न्हय?".

शामलाल सामको बेजारलो, ताच्यान हय न्हय कांयच म्हणूंक जालेंना..

नारायणी पडवेर रावन सगळें आयकताली आनी आवयचें निलाजरेपण पळोवन तिका मरुंक पुरो जातालें. ती नीट रामाले कुडीम्हऱ्यांत गेली आनी दार वाजोवन तिणें म्हळे, "राजा म्हज्या, वयनीचें आयकुंचोना रें तूं? दार उगड शाण्या."

राम जागोच आशिल्लो, पुणून ताणें जाप दिलीना

नारायणीन परतून उलो मारलो, "उठ रे शाण्या!

तूं वच! तुमी सगळीं म्हजीं दुस्मान जाल्यांत?"

"जाल्यार जांव! दार उगड तूं!"

"ना ना हांव उगडचोना!"

ते रातीकडेन ताणें खऱ्यांनीच दार उगडलेंना.

शामलाल आपले कुडींतल्यान सगळें आयकतालो. नारायणी भितर आयली तशें ताणें म्हळें, "तू हातूंतल्यान कितेंयतरी मार्ग काड! नाजाल्यार हावं हें सगळें सोडून म्हाका जाय थंय वतलों. ही पिडापीड म्हज्यान आतां सोसूंक नज!"

नारायणीन कांयच जाप केलीना. फकत ती येवजूंक लागली.

ताचे उपरान्त दोन तीन दीस वतकच लेगीत रामाचो राग उणो जालोना, तेन्ना नारायणीचो भितल्ले भितर घुस्मटमार जालो आनी तिका वायटूय दिसलें. सांज जाली तरी राम शाळेंतल्यान आयलोना तेन्ना तिच्यान राग कसोच सोसूंक नज जालो. इतल्यांत दिगम्बरी न्हंयेवयल्यान न्हावन येतना, जगावल्यो सगळ्यो गजाली करीत, रामाचें पाड मागत, आपले व्हडले धुवेच्या पिशेपणाच्या परिणामाचीं घटितां शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांक सांगत येवंक लागली. आपूण नारायणीपरस चड व्हडली न्हय, पुणून उपासतपास केल्यान आपणाले केंस पिकल्यास अशें सांगत, आनी आपल्या भावागेर सगळो वेव्हार आपुणूच करतालीं हो इतिहास गायत आसतना, मदींच एक नवी खबर घेवन तिणें आंगणांत पावल घालें आनी व्हडल्यान आरड मारून म्हळें, "तुगेल्या गुणाच्या देरालें कर्तूप आयकलां नारायणी?"

नारायणीचो चेरो न्हय न्हय तें येवजून सामको धवो पडलो. "कसलें कर्तूप आई?" तिणें विचारलें.

"तो पोलीस थाण्यार पावला आनी पावचोना जाल्यार कशें जायत? असलो

गुंड भुरगो हांवें सात जल्मात पळोंवंक ना! आतां वतलो बंदखणींत!''

हें सांगतना तिगेलो चेरो खोशयेन फुलिल्लो. नारायणीन तिका कितेंच म्हळेंना. नृत्यकालीक आपयली आनी म्हळें, ''राम आजून कित्याक आयलोना? भोलाक मातसो धाड पळोवया! सोदून हाड म्हणजे!''

''म्हाका सगळें समजलां!'' दिगम्बरीन म्हळें.

ती कितें सांगता काय म्हणून पळोवपाक नित्तो थंयच उबी राविल्ली. तिचेर धेंगसो घालून नारायणीन म्हळें, ''आजून हांगांच उबी रावल्या? वचना कित्याक? सांगलां तें आयकूंक येवंक ना?''

नित्तो थंयसून बेगीबेगीन गेली.

दिगम्बरीन नारायणीक हिणसायत म्हळें, ''कितें जालां ते आयकलां तुवें?''

''पयलीं तू अंगावयलीं बदल पळोवया! मागीर सांग कितें तें!'' अशें म्हळें आनी नारायणी थंयसून गेली. तें पळोवन दिगम्बरीक बरें दिसलेना. तिणें मनांत म्हळें, ''चलयेचो राग तरी पळेयात!'' बरी मीठ मिरसांग लावन ती गजाल सांगूक मेळूंक नाशिल्यान, तिचें पोट सामकें फुगिल्लें.

रामाल्या कर्तुपाविशीं सांगपाचें म्हळ्यार, गांवांतले शाळेंत जमीनदारालोय एक भुरगो शिकतालो. आज खावपाचे सुटयेंत उलयतां उलयती रामालें आनी तागेलें झगडें पेटलें. दोगूय जाण आपलेंच खरें म्हणपाक लागले. आनी मागीर तांचेभितर मारारमारी जाली.

झगड्याचो विशय सामको सादो आशिल्लो. भुरगेपणाचो म्हळ्यार जाता. जमीनदाराच्या भुरग्यान म्हळें, ''स्मशानकाली ही रक्षाकालीपरस म्हान. तिची जीब खूब व्हडली आसा'' ताचेर रामान म्हळें, ''स्मशानकालीची जीब लांब आसली जाल्यारूय ती रक्षाकाली इतली लांब आनी तांबडीगुंज ना!'' कांय दिसांपयलीं ताणे रक्षाकालीची मूर्त पळेल्ली, तिची ताका याद आशिल्ली. जमीनदाराच्या

भुरग्याक रामालें सांगप मानवलेंना. ताणें आपलें हातचें ताळट दाखोवन म्हळें "रक्षाकालीची जीब येदीच आसा." रामान म्हळें "ना ना ती खूप लांब आसा. येदिशी आशिल्ली जाल्यार तिच्यान सगळ्या संवसाराची राखण करूंक जाताली? धर्तरेची राखण करता म्हण तिका रक्षाकाली म्हणटात". आपलेंच खरें म्हणटां निमणे तांच्यांत मारामारी जाली. जमीनदाराचो भुरगो अशक्त आशिल्यान ताणें इल्लो चड मार खालो. नाकांतल्यान एकदोन थेंबे रगतून आयलें.

ते शाळेंत हाचेपयलीं अशें केन्नाच घडूंक नाशिल्लें. ज्या जमीनदाराच्या भाटांत शाळा आशिल्ली, तागेल्याच भुरग्याच्या नाकांतल्यान रगत आयिल्लें.

हेडमास्तरान शाळा बेगीबेगीन धांपली आनी दोगांय भुरग्यांक घेवन तो जमीनदारागेर वचपाक गेलो. थंय पावचेपयलींच वाटेंतले वाटेंत राम नाच्च जालो, हें सांगपाची गरज ना.

"भाऊ खंयच ना!" भोलान येवन सांगलें.

कांय वेळान शामलाल मान सकल घालून आयलो. आंगणांत आसतनाच ताणें म्हळें, "आयकलां? गावांत रावप लेगीत आतां कठीण जालां. नोकरी करून दोन पयशे जोडटालों. तेवूय आतां गेले म्हण समज!"

नारायणी रांदचे कुडींतल्यान भायर आयली आनी दाराच्या आदरान उबी रावली. सुकिल्या ताळ्यान तिणें विचारलें, "पोलीस थाण्यार केस केल्या खंय त्या लोकांनी?".

"व्हडलो जमीनदार म्हळ्यार देवमनीस! तांणी गुन्याव माफ केलो, पुणून आनीक लोक आसात गांवांत. आशील्ल्या दिसा ताची कितेंय ना कितें पिडापीड आसाच. असले परिस्थितींत गांवांत रावप कशें, सांग तूं? राम खंय आसा?"

"तो अजून घराकडेन येवंक ना. भंयान भायलेभायर भोंवता दिसता."

नारायणीन म्हळें. शामलाल सामको गंभीर जालो. "पळूं नाजाल्यार रावं! आतां ताचेकडेन आमचें कांयच नातें ना! सवत भाव! लोक नांवां दवरीत

म्हण इतलो तेय सांबाळ्ळो. पुणून आतां आपलोय जीव जाल्यार वाटांवक नाका?"

"हय तर! आपणाल्या पुताचेंय जाल्यार पळोवंक नाका?" वासरेच्या दारांत रावन दिगम्बरीन म्हळें. तें आयकून शामलाल खोशी जालो.

"पळोवं नाका जाल्यार? पळोवंकूच जाय. ते खातीर फाल्यां पांच पंच आपयतां आनी सगळ्या भाटांबेंसाची वांटणी करतां," मागीर नारायणीकडेन पळोवन ताणें म्हळें, "तुकाय सांगतां हे गजालीखातीर ताका धपकावपाची आनी मारपाची गरज ना. ताका जाय तें बरें-वायट तो करतलो. ताणें सगळें जाणा जावनूच, जमीनदाराच्या भुरग्याचेर हात घाला."

तें आयकून दिगम्बरीन मानंतल्यान खोशी जावन म्हळें, "हे नारायणीक एक नाका आशिल्लें लागता. मार ताका मारता, बडयता, म्हाका जाल्यार ताचेकडेन पळेल्यारूच जाळ मारतात. गुंड खंयचे कडलो. ताचो कितें इसपार आसा? जो म्हजो परतून परतून अपमान करता. तो कितें नारायणीचो अपमान केलेबगर रावतलो? हांव तुका सांगतां चलये, आपलो मानआपणें राखचो! रामाला भानगडींत तूं पडूं नाका".

शामलालाक मांयचो सगळोच उपदेश जरी मानवलोना, तरी ताणे म्हळें, "कितेंय जावं ताका ख्यास्त करपाची गरज ना".

एका वरान सुमार नित्तोन ल्हवूच येवन सांगलें, "वयनी, धाकलो बाब आयला"

नारायणी उठली आनी रामाले कुडींत वचून तिणें दाराक खिळी घाली.

राम बाज्जेर बसून कितेंतरी येवजितालो. खिळयेचो आवाज आयकून ताका कच्च जालें. ताणें तोड वरशें करून पळेत जाल्यार वयनीन दाराक खिळी घाल्या आनी ताणेच केन्नातरी हाडिल्ली कोनशाकडेन आशिल्ली पातळ वेताची बडी उबारल्या. तो बेगीबेगीन बाज्जेवयल्यान देंवलो आनी दुसरेवाटेन वचून उबो

रावलो. नारायणीन म्हळें, “हांगा यो!”

रामान तिका पायां पडत म्हळें, “हाचे फुडें केन्नाच करचोना वयनी! हे फावटीं म्हाका सोड!”

नारायणीन म्हळें, “आयल्यार थोडें मारतली, ना जाल्यार तुजे फाटीर मारून मारून ह्या वेताचे कुडके करतलीं”

तरीकय राम थंयचो हाललोना, जाग्यार रावनूच, नाका गे नाका गे, करुंक लागलो. “तुका पांयां पडटां, पांय धरतां तुजे वयनी, हाचे फुडें केन्नाच करचोना, कान धरतां वयनी”

नारायणीन ओणीव घालून ताचे फाटीचेर एक वेत मारलेंच आनी मागीर ती ताच्या सगळ्या आंगभर वेतां मारुंक लागली. ताणें तेवटेनचें दार उगडून पळपाक केलें, तें जमलेंना तेन्ना तो कूडभर नाचूंक लागलो. नित्तो दाराचे खांचीतल्यान तें पळेताली. तिणें मोठ्यान रडत म्हळें, “वयनी सोड ताका, पांयां पडटां गे!”

दिगम्बरीन तिचेर धेंगसो घालो, “तुका मदीं उलोवपाचें कितें लागता गे?”

शामलालान कुडींतल्यान उलो घालून म्हळें, “कितें चल्लां हें? रातभर ताका मारीत रावतली?”

नारायणीन वेत उडयलें, आनी म्हळें, “याद दवर!”

राम जेवपाक बशिल्लो आनी दिगम्बरी आडसाक उबी रावन हेळे काडून उलयताली, “येद्या भुरग्याक म्हण कोण अशे तरेन मारता खंय? तागेले भाव ताका हात लेगीत लायना”

नृत्यकालीन काम करतां करतां म्हळें, “तुंवूय जाल्यार उणी ना नानी. तूं सगळ्योच गजाली वयनीक सांगता आनी ताका मारुंक लायता. ना जाल्यार ती ताका इतली मारची नाशिल्ली.”

रामान तें आयकलें, आनी दोळे घुंवडायत म्हळें, "म्हाताइडूल लाव खंयची! आमकां सगळ्यांक खावंक आयल्या हांगा".

दिगम्बरी होहो मारपाक लागली.

"आयक नारायणी, आयक तुगेल्या देरालें".

नारायणी न्हावंक वताली ती परतून आयली. तिणें वाजेवन म्हळें, "आनीक कितेंच आयकुपाचें आतां म्हज्यांत बळ ना आई. खरें सांगतां तुका नित्तो, मेल्यार सुट्टलें आशिल्लें. सहन करुंक नज म्हज्यान. आरे ए माकडा, अजून तुज्या फाटीचे घाव पेखूंक ना मरे! येदे बेगीन विसरलो?"

राम वोगीच रावन चपाती खावंक लागलो. नारायणीय आनीक कांय उलयनासतना न्हावपाक गेली. आंगणाच्या कोनशाक पेरीचें एक झाड आशिल्लें. जेवतकच राम त्या झाडार चडलो आनी हरवीं पेरां बुड्डूंक लागलो. थोड्या पेरांचे ताणें कुडके खाले आनी थोडीं तशींच घांस मारुन रोखून मारलीं. आनी मागीर सामकेच बारकेले धोडे लेगीत बुड्डून हेवटेन तेवटेन शेंवटिले ते पळोवन दिगम्बरी भितरल्यान सामकी जळपाक लागली. नारायणीय घरांत नाशिल्ली. सोंसना जावन तिणे म्हळेंच, "पोरा, तुका लागून पिकिल्लें पेर तोंडांत पडपाक कठीण जालां. हरवीं पेरां तोडून कितें करता रे पोरा?"

दिगम्बरीलें एकूय उतर रामाक सहन जायनाशिल्लें. म्हातारेक लागून आपणाक मार पडलो हें कळटकच तो तिचेर चडून चाळवतालो. तिगेल्या उतरांनी ताका राग आयलो आनी ताणें आड्डून म्हळें, "बरें करतां. अशेंच करतलों म्हातारे".

ते विशेशण दिगम्बरीक मात लेगीत सोंसनाशिल्लें. तिणें ताका चाळयत म्हळें. "म्हातारी? अशेंच करतलों? बरें आसा. येवंदी तिका, जसो कुत्रो, तसो ताका दांडे जाय. कसलो चांडाळ भुरगो काय म्हणटां? मारुन मारुन फाटीची चामडी काडली तरी लज ना!".

रामान वयरसून म्हळें, “लाव म्हातारीं”.

“लहान तोंडांत व्हडल्यो गजाली पोराच्यो. अवचित्र, दुश्चीत्र, चांडाळ
खंयचो? सकल देंव म्हणून सांगलें न्हय?”

“कित्याक देंव? तुगेल्या बापायलें काय कितें हें झाड?”

दिगम्बरी तिडकीन सामकी पिसावली. आड्डी मारुन तिणें म्हळें. “अ
बापायकडेन पावलो? नित्तो तुवें आयकलां मूं?”

दिस्त त्याच वेळार नारायणी न्हावन आयिल्ली, झाडार नदर पडनाफुडे
तिणें म्हळें,

“जेवन शाळेंत गेलोना रे? झाडाचेरुच बसला?”

वयनी येतना दिसली म्हणटकच देंवन पळून वतलों, अशें रामान येवजिल्लें.
पुणून म्हातारेकडल्या झगड्यांत तेवटेन चित्तूच गेलेना. वयनी येवन आंगणांत
उबी आसा तें पळोवन ताणें म्हळें, “पेरां खातां”.

“खातां तें दिश्टी पडटा, पुणून शाळेंत कित्याक गेलोना तें सांग”.

“पोटांत दुखता वयनी!”

नारायणीक तिडक मारली, “तेचखातीर चपाती खायनासतना हरवीं पेरां
खाता दिसता?”.

धुवेचो आवाज आयकलो तशी दिगम्बरी धांवट येवन सांगूंक लागली.

“बदमाशाक पळे तरी! म्हगेल्या बापायमेरेने पावलो. म्हणटा कित्याक
देवूं, तुगेल्या बापायलें झाड काय म्हण!”

नारायणीन रामाकडे पळोवन विचारलें, “हय रे, अशें म्हळें तुवें?”.

“ना ना वयनी, हांवें तशें म्हणूंक ना.” रामान बेगीबेगीन म्हळें.

दिगम्बरी किळांच्यो मारुंक लागली. “ना म्हणटा चोरा? म्हणूंक ना तुवें?

नित्तो आसा हांगा''. मागीर नाकयां उलयत म्हणूंक लागली, ''त्या दिसा वेताची बडयेर बडी पडली, तेन्ना म्हणटालो, आतां करचोना वयनी, तुका पांयां पडटां, तुजे पांय धरतां. मेलों, आतां केन्नाच करचोना वयनी, धरतकच चींची करता, आनी सोडटकच उसळटा अवचित्र!''

रामाक कशेंच सोसना जालें. ताच्या हातांत एक मोटेलें पेर आशिल्लें, तें ताणे एकदम मोखलें. पुणून तें दिगम्बरीक आफुडलेंच ना. नारायणीचे उजवे भोंवयेचेर वचून बसलें. नारायणीच्या दोळ्यांमुखार थोडो वेळ काळोख आयलो आनी ती थंयच बसली.

दिगम्बरी व्हडल्या व्हडल्यान किळांच्यो मारुंक लागली. त्यो आयकून नित्तो धांवट आयली. राम झाडावयलो देवून पळून गेलो.

शामलाल दनपारचो न्हावन येवन जेवपाक बसलो तेन्ना ताका सगळें कळ्ळें. नारायणी मेल्लेभशेन हातुणार पडिल्ली. तिचो उजवो दोळो सुजिल्लो. आनी नित्तोन ताचेर ओल्या आंगशाची घडी घाल्ली. दिगम्बरी आज दाराच्या आडोसाक रावलीना. सारकी भायर येवन रडत सांगूक लागली, ''रामान नारायणीक मारली''

शामलालाक अजाप जालें. म्हन्यांत वचून पळेतकच ताणे बायलेक धपकावन म्हळें, ''आज हांव तुका सोपूत घालतां, हे फुडें तुवें ताका जेवंक वाडलो, केन्नाय ताचेकडेन उलयली वा तागेले खंयचेच गजालींत पडली जाल्यार म्हाका खाशी!''

नारायणीन तकली वयर काडली आनी म्हळें, ''वोगी रावात, वोगी रावात अशें म्हणू नाकात!''

''म्हगेलो इतलो खर सोपूत तूं मानचिना जाल्यार देव तुका म्हजें मेल्लें मडें दाखोवं!'' अशें म्हळें आनी तो वैजाक हांडूक गेलो.

दीसभर न्हंयचे देगेर भोंवन आनी कितें जायत, ना जायत हें येवजीत

राम काळोख जातकच ल्हवूच घराकडेन आयलो. थंय येवन पळेत जाल्यार, आंगणाच्या दिस्त मदल्यान कापटांची वंय करून घराचे दोन वांटे केल्ले. ताणें वंय हालोवन पळेली. ती खुपूच घट्ट आशिल्ली. तुटलीना. रांदचेकुडींत दिवो पेट्टालो. ताणें ल्हवूच भितर पळेलें जाल्यार, थंयूय तीच गजाल. मनीस कोणूच ना. फक्त आयदनाची रास पडल्या. अशें हें कितें, तें ताका कांयच कळ्ळेंना. पुणून सकाळीं जे कितें घडलें, ताचेकडेन हाचो संबंध आसूंक जाय, हें ताका समजलें आनी ताचें हड्डे धडधडलें. तो ल्हवूच आपले कुडींत गेलो आनी घराच्या दुसऱ्या वाट्यांत कितें चल्लां तें कान दिवन आयकूंक लागलो.. ताका भूक लागिल्ली, हें लेगीत त्या बोवाळांत तो विसरलेलो. णव वरां जाल्लीं जायत. मागीलदारा वचून ताणें फाटलें दार खटखटायतकच नित्तोन तें उगडलें आनी कुशीक वचून ती उबी रावली.

"वयनी खंय?" रामान विचारलें

"ती कुडींत न्हिदल्या". तिणें म्हळें.

रामान कुडींत वचून पळेलें वयनी बाज्जेर न्हिदल्या आनी दिगम्बरी आपले धाकले धुवेक घेवन सकल शेंदरेर बसल्या. गोविंद कुशीक खेळटालो. रामाक पळेले बराबर तो धांवट आयलो आनी ताच्या हाताक धरून ताणें म्हळें, "काका तुगेलें घर थंय आसा. हें आमचें घर, बाबान सांगलां, हांगा आयल्यार तुगेलो दोंको मोडटलों म्हण"

राम बाज्जेचे कडेक वचून बसलो, तेन्ना नारायणीन आपले पांय कवळून घेतले. राम वोगीच बसलो. दिगम्बरीन आपले धुवेक धोंगशीत म्हळें, "सुरी, तुगेल्या भावोजीन ताका कितें सांगूक लायलां, तें सांगना कित्याक?".

सुरधुनी पाठ केल्ले भशेन सांगूक लागली, "भावोजीन सांगलां, तूं हांगा येवंक नाका म्हण, फाल्यां सकाळी फुडें... कितें गे आई?"

"भाट-बेंस". दिगम्बरीन तिका सुचयलें, तशी सुरधुनी फुडें सांगूक

लागली, “भाट-बेंस सगळें सारके वाट्टले”.

“सोपूत घाला ताचें कित्याक सांगना? घोडी खंयची!” दिगम्बरीन तिका परतून धोंगशिली.

“भावोजीन ताईक सोपूत घाला, तुका खावंक बिवंक दीवं नाका. उलोवं लेगीत नाका,” भावोजीन सांगलां.

“पुरो पुरो खूब जालें! वोगी राव आतां!” सुरधुनीली गाडी नारायणीन धेंगसो घालून थांबयली, पुणून दिगम्बरीलें तोंड व्हांवपाचें थांबलेंना.

“खरेंच रे बाबा! तूं केन्ना कोणाक मारुन उडयशी सांगूक जाता? सोपूत घालचोना जाल्यार आनीक कितें करतलो? ह्या घरांत आतां तुवें येवप वचप, खावप जेवप जावपाचें ना. तिकाय जाल्यार आपल्या घोवाचो, ‘शीर खाशी’ म्हणपाचो. सोपूत मानचोच पडटलो”.

“म्हाका भूक लागल्या गे आई, वाड न्ही!” सुरधुनीन आवयक म्हळें.

“मातशें राव गो!” दिगम्बरीन ताका धपकायलें. राम थंय आसतना घराक उजो लागिल्लो जाल्यारुय ती उठची नाशिल्ली.

रामालें भितर दामून दवरलेलें रडें भायर येवंक करतालें, पुणून दिगम्बरीच्या सकाळच्या कर्तुपाची याद येवन तें थंयच सुकलें. ताका रडप जमना जालें. “हाचेफुडें केन्नाच करचोना वयनी”. अशेंय म्हणपाक जमलेंना. त्या एका वाक्यान ताची हाचेपयलीं कितल्याशाच प्रसंगानी राखण केल्ली. पुणून आज आपल्या तोंडान तिका तशें सांगपाक ताका जमनाशिल्लें. तो भितल्ले भितर घुस्मटूंक लागलो.

इतल्यांत नारायणीन सामक्या जीव नाशिल्या आवाजांत म्हळें, “सुरी ताकां वचपाक सांग!”

आतां रडपाचें सोडून राम उठलो आनी ताणें म्हळें, “आं! म्हाका वचूंक

सांगता? म्हाका वचूंक सांगता? म्हाका भूक लागना दिसता? तेन्नाच्यान हावें कांयच खांवक ना!''

''एकदम मारून कित्याक उडयलेंना? धा धा हातांनी खांवक मेळटलें आशिल्लें. म्हाका खबर ना! केलां तशें भोग! नृत्यकालीच्या म्हऱ्यांत वच!'' नारायणीन म्हळें.

''ना वचचोंना तिच्या म्हऱ्यांत! कोणाच्याच म्हऱ्यांत वचचोना! कांयच खायनासतना उपाशींच न्हिंदतलो!'' अशें म्हणून पांय आपटीत तो आपले कुडींत गेलो. तो गेलो तशी दिगम्बरी धुवेक घेवन रानचेकुडींत गेली आनी नारायणी मोन्यांनी दुकां गळोंवंक लागली.

राम तोंड पांगरुणांत लिपोवन बाज्जेर पडिल्लो. थोडेशें खावंक घेवन नित्तो ताचेम्हऱ्यांत आयली आनी तिणें म्हळें, ''धाकल्या बाबा, चल उठ, खा!''

''तू चल हांगाची उंवाळिल्ल्या तोंडाची! चलूंक लाग!

नृत्यकाली जेवण थंयच दवरून गेली. रामान थाळो आनी पेलो आंगणांत मोखून मारलो..

दुसऱ्या दिसा शामलाल कामाक गेलो आनी राम आंगणांत गरड घालूंक लागलो,, ''सोपूत बिपूत म्हाका खबर ना! वा रे वा, बरो सोपूत घाला! तो आपणाक समजता तरी कोण असलो? ''सोपूत बिपूत म्हाका खबर ना! वा रे वा, बरो सोपूत घाला! तो आपणाक समजता तरी कोण, असलो सोपूत घालपाक? तो कितें म्हजो खाशेलोभाव? तो म्हजो कोणूच न्हय! तागेलें हांव कितेंच आयकुपी न्हय! हांवें कितें वयनीक पेर मारिल्लें? म्हातारे आलवांतिणीक मारिल्लें, तें चुकून वयनीक लागलें. मागीर तो कित्याक आयलो सोपूत घालूंक?''

ताका कोणेंच परती जाप केलीना, तेन्ना ताणें आपलो आवाज मातसो खाला हाडलो आनी तो वेगळेंच उलोवंक लागलो. ''वायट न्हय, बरेंच जालें! नाका उलोवंक, नाका खावंक दीवं. हांव काय बरें रुचीक जेवण करीन! शीत, रोस,

बरी बरी भाजी, नुस्तें पोटभर खातलों. म्हजें कितें वायट जातलें?''

तागेल्या त्यात उलोवपाक कोणेंय जाप केलीना, तसो तो रांदचे कुडींत गेलो आनी थाळे, कुलेरां, पेले हांचो व्हडान आवाज करीत हेवटेनचे तेवटेन उडोवंक लागलो. भोलाक व्हडल्यान उलो मारुन तांदूळ, दाळ, भाजी धुवपाक आनी शिजोवपाक सांगलें.

नृत्यकाली सगळें सामान रांदचे कुडींत दवरून गेल्ली. रामान भोलाक बाकीच्यांक आयकूंक येत इतल्या व्हडल्या आवाजांत सांगलें, ''तू म्हजो नोकर, तुवें तेवटेन वचूंक जायना, त्या घरचो कोणूक जर हेवटेन आयलो जाल्यार ताचो पांय मोडून घाल सामको, समजलें?

नारायणी रांदचेकुडींत बशिल्लेकडेन सगळें आयकताली. दिगम्बरी तट्याक दोळे लावन कितें चल्लां तें मर्दी मर्दी पळेताली. कांय वेळान व्हडले धुवेम्हऱ्यांत येवन, फिसी फिसी हांसत तिणें म्हळें, ''पोराली अक्कल पळेल्या? बरी भाजी करून खातलो खंय. पितुळच्या तपल्यांत गळोभर तांदूळ भरल्यात आनी थोडें उदक घालां. शीत करता! एकटो खावपी, पुणून तांदूळ घाल्यात धा जाणाचे. ते शिजपाक नाकात? हुलपून गोबोर जावचो ना? नेट व्हडलो! हांव शीत करतना इतलें उदक घालतालीं, शीत परतून पळोवचें पडचेंना दोळे धांपून सकल काड. शीत तयार जाल्लें आसतलें. कोणाकूय रांद म्हणजे म्हजेबराबर! कोणालें जेवण बरें जाता तें पळोवया म्हणजे!''

नारायणीन तिगेलें उलोवप आयकूंक नज जावन तोंड घुंवडायलें.

नृत्यकाली लागींच आशिल्ली. तिणें म्हळें, ''कितें उलयता गे नानी तू? ताणें बावड्यान जल्मांत केन्ना आपल्या हाताना उदक तरी घेतलां, आज जेवण रांदून जेवपाक?'' ती त्या घरची चड पोन्नी वावराडी आशिल्ली. तिका जें कितें चल्लां तें बरें दीस नाशिल्लें.

आवयली देख घेवन सुरधुनी मर्दी मर्दी तट्याच्या खांचींतल्यान तेवटेनचें

पळेतालीं. वराभरान ती आयली आनी नारायणीचो पदर ओडीत तिणें म्हळें, ‘‘ताई, ताई, वचून पळे, दाखयतां. धाकलो भावोजी सुकेंच शीत जेवता, रोस, भाजी बी कांयच ना. बेठें शीत जेवल्यार पोटांत जावंचेना गे ताच्या?’’

नारायणीन तिचो हात फांफडून उडयलो आनी वचून ती हांतुणार पडली. पोटाचे भुकेक लागून कितल्या दुख्खान आज तो सुकें शीत जेवंक बसला, हें तिका कळ्ळेबगर रावंक नाशिल्लें.

दनपरां शामलाल जेवलो तशी दिगम्बरी नारायणीक आपोवंक लागली. ‘‘यो गो बाय, दोन उंडयो जेव. तुका जोर कांय ना. घाय जालो म्हण कितें जेवंक जायना? हांव सांगता न्ही, तुका कांयच जायना म्हण’’.

नारायणीन आंगार चादर ओडली. ती घट्ट पांगरून तिणें म्हळें, ‘‘म्हाका त्रास दिवं नाका आई! तुमी जेवात आनी मेकळीं जायात!’’

दिगम्बरीन अजापान म्हळें, ‘‘अशें कितें जालां? कालच्यान उपाशीं पडल्या ती? आजूय जेवचीना जाल्यार वांचतली कशी?’’

नारायणी कांयच उलयलीना. नृत्यकालीन येवन म्हळें, ‘‘तूं नाका जाल्लें कित्याक उलयता नानी? सांजवेळ मेरेन तूं गजाल मारीत रावली. तरीकूय ती जेवंची ना. जोर आसा. मातशी न्हिदूनी तिका’’

दिगम्बरी थंयसून बडबडत गेली. ‘‘देवाक खबर कितें तें! घात जालो म्हण इतले त्रास जातात? खाण जेवण कोण सोडटा? म्हज्यान बाये केन्नाच जावंचेंना’’

सांजवेळा नारायणी रांदचेकुडीचे पडवेर येवन बसली. नित्तोची आनी तिची जेन्ना जेन्ना नदरेक नदर जाली, तेन्ना तेन्ना तिका कितेंयतरी सांगपाखातील तिगेले वोंठ हालले, आनी सांगनासतनाच परतून धांपले.

राम शाळेंतसून आयलो आनी हातपांय धुवन पसऱ्यार वचून चणे आनी चिवडो घेवन आयलो. खातां खातां तो आपले भितरुच मोट्यान उलोवंक

लागलो. ‘‘म्हजें कितें वायट जालां! जेवन सुशेगाद शाळेंत गेलों. आतां घराकडेन येवन मजेन खातां’’

कडव्याचे पलतडीं सगळीं आसतलीं हें ताका खबर आशिल्लें. पुणून सकाळचे भशेनूच कोणेंच ताका जाप केलीना, तेन्ना ताका भंय दिसलो. ताणें आलाट मारून म्हळें, ‘‘हांगा ही म्हजी शीम! नृत्यकाली नाजाल्यार कोणूय केन्नाय हेवटेन येत जाल्यार दोंको मोडटलों!’’

दोंको मोडपाचो भंय ताणें हाचेपयलींय घाल्लो, हाचेपयलीं जशें ताच्या उलोवण्याक कोणेंच महत्व दिवंक नाशिल्लें, तशेंच आतांय जालें. कोण भियेलो काय कितें हें ताका कळ्ळेंना. रात जातकच दिवो पेटोवन तो रांदचेकुडींत गेलो आनी परतून बोवाळ करुंक लागलो. ‘‘म्हगेलीं लाकडां खंय? हांव रांदू कसो? म्हगेली फातर आनी रगडो खंय आसा? हांवें वांटपाचें कशें?’’

‘‘व्हडल्या बाबान सांगलां, फाल्यां बाजारांतसून हाडून दितां म्हण!’’

नित्तोन तेवटेनच्यान जाप दिली.

‘‘ना ना! हांव विकती हाडिल्ली फातर घेवंचों ना’’. अशें म्हणून तो रांदचे कुडींतल्यान भायर गेलो.

मातशावेळान तो परतून रांदचे कुडींत आयलो आनी म्हणूंक लागलो, ‘‘म्हगेल्या गणेसाक कित्याक धरुंक लायलो? म्हातारेन म्हाका परतून परतून कित्याक तिडायलो? तिका हांव गाळी घालतलोंच! म्हातारी मरतकच दुसऱ्या जल्मांत लाव जातली’’.

दिगम्बरीन दोळे व्हडले करीत म्हळें, ‘‘आयक नारायणी आयक! हें मुद्दाम झगड्याक कारण काय कितें?’’

नारायणी कांयच उलयनासतना दुसरे वटेन पळोवंक लागली.

रामालें उलोवप आज सकाळच्यान वेगळेंचशें जाल्लें. वयनीन आपयलोना,

धपकालोना, मारलोना, खांवक दिलेंना. ताच्या अख्ख्या जल्मांत ताणें केन्ना असलें पळोवंक नाशिल्लें.आतां तो खरेपणीच भियेलो. पयलीं तो पडवेर बसून आपलें म्हणणें तरातरानी मांडूंक लागलो. एकदां म्हळें, ''माजराक मारपाखातीर पेर मोखिल्लें''. दुसरे फावटीं म्हळें, ''हातांतलें सुटलें आनी वयनीचेर बसलें''. परतून एकदां म्हळें, ''हांव पेरां बेश्टींच मोखतालों, मारतालों थोडी''. आनी एकदां म्हळें, ''कोणाकूच हांवें गाळी सवूंक ना!''. पुणून तागेल्या एकाय सांग्याचो उपेग जालोना. ताका कोणेंच अशें न्हय, वा तशें न्हय, म्हळें ना. मागीर ताणें लज भीड गुंठलावन दवरली आनी म्हळें, ''हाचेफुडें केन्नाच करचोंना''. त्या उतराक जेन्ना कोणें जाप केलीना, तेन्ना तो मोन्यानी रडूंक लागलो.. आतां तो खंयच्या उपायान वयनीक समजायतलो आशिल्लो? वयनीन ताका पयस केल्लो. आतां तो जेवतलो खंय? कोणाच्या म्हऱ्यांत कसो रावतलो? ताका कशेय तरेन तड मेळनाशिल्ली. आज ताणें जेवण रांदलेंना, न्हय तो शाळेंत गेलोना. कुडींत वचून वोगीच न्हिदलो.

चोरया रडत राविल्यान नारायणीक मातसो जोर आयिल्लो. दनपरां दिगम्बरीन पेलोभर दूद व्हेलें आनी ''हें तुवें पियेवंकूच जाय, खायी जेवी नासतना मारपाचें आसा काय कितें?'' अशें म्हणून पेलो बळयां तिच्या हातांत दिलो. नारायणीन नाका म्हळें ना. नाका नाका म्हणपाचोय तिका आतां कंटाळो आयिल्लो. घोंटभर दूद पियेवन तिणें पेलो कुशीक दवरलो आनी ती कूस परतून न्हिदली.

रातचीं णव जालीं. नृत्यकालीन ल्हवूच येवन म्हळें, ''वयनी, धाकल्या बाब़ाचो आजून आवाज येना. कितली रात जाली पळे''.

नारायणी भियेवन उठली. तिच्या दोळ्यांतल्यान दुकां गळूंक लागलीं. तिणें रडत रडत म्हळें, ''चल बाये म्हजे, पळे वचून भितर आसा जाल्यार''.

नृत्यकालीचे दोळे ओले जाले. तिणें ते हातान पुसलें. ''वचपाक भंय दिसता''. अशें म्हणून ती भायर गेली आनी तिणें भोलाक आपोवन हाडलो. भोलान सांगलें, ''भाऊ भितर आसा, न्हिदला''. नारायणीन दोनूय हात जोडून

तकलेक लायले आनी आंगार चादर ओडून घेतली.

दुसऱ्या दिसा सकाळ जावंचे पयलीं ती उठली आनी न्हावन रांदूक लागली. दिगम्बरी उठली तेन्ना अर्द जेवण जाल्लें. दिगम्बरीक आपले चलयेचें तें कर्तुप पळोवन अजाप जालें. तिणें किंवाटून विचारलें. "तुका जोर आयिल्लो न्ही, नारायणी? तीन दीस तुवें कांय एक खांवक ना. काळखांत न्हावन धुवन हें कितें चल्लां तें सांग तरी"

नारायणीन सादेपणान म्हळें, "रांदता तें दिसना तुका?"

"तें हावें पळेलां, पुणून कित्याखातीर तें कळूंदी तरी म्हाका! म्हज्या हातचें तूं हाचेफुडें खावंचिना?"

नारायणी कितेंच उलयलीना. आपलें काम करीत रावली.

काल दीसभर राम येवजितालो. वयनीक केदो घावो जाला काय? ताणें एक तन्नें पेर काडलें आनी तें आपले तकलेर तो परतून परतून मारुंक लागलो. वयनीले दुखीचो तो अदमास घेतलो. मागीर तो येवजूंक लागलो, कितें केल्यार आपणाकडल्यान घडिल्ल्या वायट कर्तुपाचें प्रायश्चित जायत? येवजितां येवजितां ताका याद जाली. कांय दिसांफाटीं वयनीन ताका हांगा राव नाका म्हण सांगिल्लें. आपूण खंयूय दुसरेकडेन गेलों जाल्यार वयनी खोशी जातली अशें ताका दिसलें. तागेलें आजोळ तारकेश्वर गांवांपरसूय फुडें आसा, हें ताका खबर आशिल्लें. पुणून तें नक्की खंय आसा हें मात तो नकळो आशिल्लो. थंय वचून सोदचें अशें येवजून ताणें एक लहानशी पोटली बांदली आनी सकाळ जावपाची तो वाट पळेत बसलो.

सगळें जेवण जातकच, नारायणी एका थाळ्यांत सगळे जिनस सारके बरे मांडटाली, इतल्यांत भोलान दारांत येवन "अम्मा" म्हळें.

भोलाक दारांत पळोवन तिणें विचारलें, "कितें रे भोला?"

भोला गोरवांचे सगळें काम करतालो, पुणून रामाच्या भंयान त्या घरांत

मात वचनाशिल्लो. ताणें ल्हव आवाजांत म्हळें, "अम्मा, तुका कानांत कितें सांगपाचें आसा"

नारायणी लागीं येतकच तिका आयकूंक येत इतल्या ल्हवू आवाजांत म्हळें, "दोन रुपये दिशी जाल्यार, तुवें पळे जें सांगिल्लें न्हय, तशेंच जातलें"

नारायणीक कांयच कळ्ळेंना, कितें जातलें रे? कोणाक दिवंक जाय रुपये?"

भोला अडचणीत पडलो. "तुवें भाऊक वचपाक सांगिल्लें न्हय? तो वचपाक तयार जाला. दोन रुपये जायूच. ना जाल्यार एक तरी दी"

नारायणीन भियेवन विचारलें, "खंय वचपाक तयार जाला रे? खंय आसा तो?"

"भायर पिंपळाच्या झाडामुळां उबो आसा. तेवटेने तागेलें आजोळ आसा खंय!"

"चल भोला, ताका बेगीन हाड मातसो, हांव आपयतां म्हण सांग ताका!"

भोला धांवट गेलो, नारायणी फातोर कशी जावन थंयच उबी रावली. थोड्या वेळान राम हातांत एक लहानशी पोटली घेवन तिचे मुखार येवन उबो रावलो. नारायणीन ताच्या हाताक धरलो आनी ताका घेवन ती भितर गेली.

दिगम्बरीन तांकां रांदचेकुडींत वतना पयसुल्लायन पळेलीं. तिका कसलो तरी दुबाव आयलो आनी ती धांवट रांदचे कुडींत गेली.

नारायणी भरिल्ल्या थाळ्यामुखार रामाक मांडयेर घेवन बशिल्ली. रामान तिच्या पदराआड तोंड लिपयिल्लें आनी ताच्या सगळ्या आंगार टप टप करून नारायणीच्या दोळ्यांतलीं दुकां गळटालीं.

दिगम्बरी अजापीत जावन पळेत रावली. मागीर तिणें म्हळें, "म्हाका

कितें खबर, हे खातीर फांतोडेर उठून रांदूक बशिल्ली म्हण! आतां ताका जेवण लावपाचें आसा दिसता! आनी म्हगेल्या जांवयान येदो सोपूत घाल्लो तो फुकट गेलो?''.

''फुकट कित्याक वतलो?'' नारायणीन वयर पळोवन म्हळें, ''तांणी सांगिल्लें तें हांव आयक नासतना रावंक ना. तीन दीस हांवें कांयच खावंक ना, न्हय ताका खावोवंक ना''.

दिगम्बरीन तिका चाळोवन म्हळें, ''हाकाच म्हणटात दिसता आयकनासतना रावंक ना म्हण? मागीर हें कितें चल्लां तर? जाणें सोपूद घाल्लो ताका एकदां तरी विचारचें आशिल्लें!''.

''हावें विचारलां''. नारायणीन इतलेंच म्हळें.

दिगम्बरीक खरें दिसलेंना. तिणें रागान म्हळें, ''हांव कितें दूद पिता तसलें भुरगें न्हय नारायणी, तूं विचारलें म्हण्टा जाल्यार म्हाका कशें कळ्ळेंना तर तें?''.

आतां नारायणीच्यान सोसूंक नज जालें, तिणेंय तिडकीन म्हळें, ''तुका कशें कळटलें ते आई, हांवें केन्ना, कोणाक आनी कशें विचारलें तें? जाका जीब आसता तो सोपूत घालता. पुणून...

इतलें म्हणून ती थांबली. रामाचे तोंड बळया वयर करून तिणें ताच्या कपलाचो मायेन उमो घेतलो आनी म्हळें, ''आपल्या हड्ड्याकडे धरुन जिका भुरग्याक येद्याचो येदो करचो पडटा, तिकाच कळटा, कशें विचारतात आनी कशी मान्यताय मेळटा तें. तुका हुसको करपाची गरज ना. आई, आतां मातशी हांगासून वच. तीन दीस जाले, म्हागेल्या चल्यान कांयच खावंक ना''.

अशें म्हणटां म्हणटां तिच्या दोळ्यांक दुकांची धार लागली.

दिगम्बरी मातसो वेळ तशीच उबी रावली आनी मागीर तिणें म्हळें, ''आतां हांव ह्या घरांत कशी रावतलीं? तुका पयलींच सांगता नारायणी, म्हज्यान हाचे

फुडें हांगा कशेंच रावंक जावचेंना.''

''हांवूय तुका तेंच सांगूक सोदतालीं, पुणून म्हाका सांगूंक बरें दिसनाशिल्लें. खऱ्यांनीच आई, आतां हाचेफुडें तुगेलें हांगा रावप जावचेंना. तुगेल्या दोळेफुटकेपणाक लागून म्हगेलो भुरगो अर्दो जाला. तो दुश्ट जावं, ना जाल्यार आनीक कसोय जांवं, म्हज्या घरांत, म्हज्या दोळ्यांमुखार हांव कोणाकूच ताका ख्यास्त करुंक दिवचीना. आयचो दीस तूं हांगा राव, पुणून फाल्यां मात तुज्या घरा वचूच तूं! खर्चाखातीर तुका हांव वेळच्या वेळार पयशे धाडटली, पुणून हे फुडें तुगेलें हांगा रावप मात कशेंच जावपाचें ना!

दिगम्बरी सामकी अजापीत जाली आनी मातसो वेळ उबी रावन भायर गेली. रामान नारायणीच्या पदराआड तोंड लिपोवन म्हळें,

''नाका वयनी, तिका रावंदी! आतां हांव सुदारलां! आतां हांव सुदरलां! आतां म्हाका बरी बुद्द आयल्या ''हाचे फुडें पळेच तूं!''

नारायणीन परतून एकदां ताचें तोंड वयर उखलून ताच्या कपलार आपले ओंट तेंकयले आनी दोळ्यांत दुकां आसतनाच ओंटार हांशें केळयत म्हळें, ''आता तूं जेव शाण्या''.



**शरत्चंद्र चटर्जी** (1876-1938) नामनेचे बंगाली कथाकार आनी कादंबरीकार. भुरगेपणांत तांच्या वांट्याक अर्थीक विवंचना आनी निर्शेवणी आयली. दोळे आनी संवेदना आशिल्लें मन उक्तें दवरून तांणी समाजांतल्या सगळ्या थरांतल्या लोकांची जीण लागसून नियाळ्ळी. पिडीत, उपेक्षीत, शोशीत, वंचीत अशा भारतीय समाजाची आनी त्या काळाच्या हिंदू बायलांची दुःखां तांणी पळयलीं आनी तातूंतल्यान तांचें साहित्य निर्माण जालें.

**'अबुद्दी'** ही अशीच तांगेली एक नवलिका. ती भुरग्याच्या मानसशास्त्राचेर आदारिल्ली आसा. भुरग्याक कितें जाय नाका तें पयली समजून घेवपाची गरज असता. वोगीच हर्र फुर्र करून उपकाराना. तशें केल्यार भुरगीं चड हट्टी जावपाचीं शक्यताय आसता. तांकां बरे तरेन समजावपाक जाय, अशेंच हे नवलिकेंतल्यान बरोवपी सुचोवपाक सोदता.

**नरेंद्र कामत** ह्या पुस्तकाचे अणकारपी. स्वतः कोंकणी तशेच मराठी भाशेंत बरोवपी एक लेखक आसात. तांगेली 'पारजतफुलां', 'देवाची करणी', 'म्हापुरुस', 'माणकां - मोतयां', 'काणी एका रत्नाची', 'देखदिण्यो काणयो', 'वांकडे म्हेडीक वांकडे नेम' अशीं पुस्तकां उजवाडाक आयिल्ली आसात.

**गोवा कोंकणी अकादेमी**